# जाग

वर्स २७ : आंक १२ : जुलै २००१

संपादपी : रवीन्द्र केळेकार

वावुरपी संपादपी : माधवी सरदेसाय

उजवाडावपी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय

अक्षर जुळणी : तन्वी ग्राफिक्स, मडगांव

छापपी : प्रिन्टआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय

भायलो फोटो : स. माधव मंजूनाथ शानभाग हांचो


## ह्या आंकांत




वर्सुकी पटी : रु. १०० /-

विद्यार्थ्यां खातीर : रु. ७५/-

तीन वर्सांची पटी : रु. २५०/-

चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत धा रुपया अदीक जोडचे.

वेव्हाराचो नामो :

**जाग म्हयनाळें :**

२०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रू. ९/-


## नदर संपादप्याची

### भ्रष्टाचाराची गंगोत्री

भ्रष्टाचार ना कसो करपाचो?
गीतेंत एक श्लोक आयला -

**यत् यत् आचरति श्रेष्ठः तत् तत् एव इतरः जनः**

समाजांतल्या वयल्या पांवड्या वयले लोक कशे रावतात, कितें करतात तें पळोवन समाजांतले हेर सगळे तांचेच वरी रावपाक करपाक लागतात - Masses follow the classes.

चाणक्य चंद्रगुप्त मौर्याचो प्रधानमंत्री आशिल्लो. मौर्य साम्राज्याच्या एकान एक आंगाचेर ताची बारीक नदर आसताली. मौर्य साम्राज्य तोच खरेपणानशीं चलयतालो. पुणून रावतालो एके सादे खोंपींत. पयलीं रावतालो तेच भाशेन. कोणें एकल्यान ताका म्हळें, तूं येदो व्हडलो प्रधानमंत्री, तुवें असले खोंपींत रावप सोबता? आनी चाणक्यान ताका जाप दिली, मंत्री, प्रधानमंत्री राजम्हालांनी रावपाक लागले जाल्यार राज्यांतल्या सरसमान लोकांच्या नशिबांत फकत खोंपीच येतल्यो. जो वयर आसता ताणेंच लोकांक देख घालून दिवंक जाय.

जयप्रकाशांनी एका काळार Why Socialism नांवाचें एक पुस्तक बरयल्लें. म्हजे पिळगेंतले भुरगे तें बायबल जाल्ले वरी वाचताले. हिन्दुस्तान स्वतंत्र जातलें, स्वतंत्र हिन्दुस्तान समाजवादी जातलें, समाजवादी हिन्दुस्तानांत गरीब गिरेस्तां मजगतचें अंतर ना जातलें, सगळ्यांक कामां मेळटलीं, कोण कोणाचे फाटीर चडून बसचो ना, कोण कोणाच्या पांयांपोंदा चिड्डल्लो दिश्टी पडचो ना... असलीं कितलींशीं सपनां आमी हें पुस्तक वाचून रंगोवपाक लागिल्ले.

आनी हें सगळें जवाहरलाल सत्येर येतले तेन्ना घडून येतलें हे तरेची एक आस्त तांणी आमच्या काळजांत जागयल्ली.

जवाहरलाल तरणे पिळगेचे 'बेताज बादशाह' जाल्ले.

देश स्वतंत्र जालो. जवाहरलालांच्याच हातांत सत्या गेल्ली. पुणून, प्रधानमंत्री जायनाफुडें ते जेन्ना 'तीनमूर्ती भवनां'त रावपाक गेले तेन्ना जयप्रकाशांक फटवल्ले वरी दिसलें. डॉ. हरिदेव शर्मांक दिल्ले एके मुलाखतींत ते म्हणटात, 'म्हजे आनी तांचे संबंद भावा भावा मजगतच्या संबंदां परसूय दाट आशिल्ले. हेर सगळे जेन्ना तांकां पंडितजी, जवाहरलालजी म्हूण पाचारताले तेन्ना हांव तांकां 'भाई' म्हूण उलो मारतालों... तीनमूर्ती भवनांत तांकां रावपाक गेल्ले पळोवन हांव खंती जालों आनी रोखडोच तांकां मेळपाक गेलों. हांवें तांकां म्हळें, 'भाई, गरीब देशाच्या प्रधानमंत्र्यान येद्या व्हड राजम्हालांत रावपाची गरज आशिल्ली?' ह्या उतराक 'देशाची शान वाडोवंक जाय' अशी तांणी म्हाका जाप दिली. हांवें तांकां एक उगडास करून दिलो. म्हळें, रशियेक भेट दिवन आयले उपरांत तुमी तुमचे भोंवडेच्या अणभवांचें एक पुस्तक बरयल्लें. तातूंत रशिये सारक्या एका व्हड देसाचो व्हड फुडारी लेनिन आपणाले घरकान्नी आनी भयणी वांगडा क्रॅमलिनच्या राजम्हालांत दोन कुडिंच्या एका ल्हानश्या फ्लॅटांत रावता अशें म्हळ्ळें. हाचेर ते हांसले आनी म्हणपाक लागले, 'कालूच म्हाका मेळपाक रशियेचो राज़दूत एके

चकचकीत मोटारींत बसून आयिल्लो. ताचे फाटल्यान एक आनी फुडल्यान एक असल्योच दोन मोटारी आशिल्ल्यो...' हांवें म्हळें, 'भाई, तो आयचे रशियेचो राजदूत. आयची रशिया लेनिनचे मुस्तींतली उरूंक ना... संवसारांतली एक व्हड सत्या - सुपरपावर - जाल्या. आयचें हिन्दुस्तान लेनिनचे मुस्तींतले रशियेच्या पांवड्यारूच आसा... असल्या देशाच्या नेत्याक असल्या वैभवांत रावप सोबना...'. तेन्ना जवाहरलालजीन हांसून म्हळें, 'बापूंक गरिबायेंत दवरपाक बिर्लाक लाखांनी रुपये खर्च करचे पडटात, अशें सरोजिनी नायडू म्हणटा...' म्हाका हें आयकून खूब वायट दिसलें. उपरांत कितें उलयतलों? उठून आयलों...'

जयप्रकाश मुखार म्हणटात, 'आरंभाच्या काळांतूच आमच्या फुडाऱ्यान जें वांकडें पावल घालें ताचे परिणाम आयज आमी पळेतात... आमचे गिड्डे फुडारी लेगीत वैभवांत लोळून 'देशाची शान' वाडोवपाक लागल्यात. देशांत खोंपिंनी रावतल्या गरीब लोकांचीं हाचेकूय व्हड फकाणां दुसरीं आसचीं नात...'

हेच मुलाखतींत दुसरे एके कडेन जयप्रकाश म्हणटात, ह्या देशांत समाजवाद हाडपाक सगळ्यांत चड आडखळ जवाहरलालांचीच जाल्या... देशांतलो भ्रष्टाचार हुमटून काडपाक आमकां सगळ्यांत पयलीं देशाच्या फुडाऱ्यांचे लायफ-स्टायलिचेरूच हात घालचो पडटलो. ते बगर भ्रष्टाचार ना जावपाचो ना...'

गांधी एके खोंपींत रावताले तेन्ना देशाची शान उणी जाल्ली व्हय? जवाहरलाल साद्या बंगल्यांत राविल्ले जाल्यार उणी जातली आशिल्ली व्हय? **यत् यत् आचरति श्रेष्ठः तत् तत् एव इतरः जनः.** एका जवाहरलालांक न्हय, तांगेल्या पुराय मंत्रीमंडळांतल्या वांगड्यांक तीनमूर्ती भवनांत रावपाक सुवात आशिल्ली... एक व्हडली युनिव्हर्सिटी त्या भवनांत चलोवं येताली. एक व्हडलें हॉस्पिटल चलोवं येतालें.

खासा जवाहरलालूच देशांतल्या भ्रष्टाचाराची गंगोत्री जाल्ले. आतां तर भ्रष्टाचार गंगे येदो विशाळ जावन पडला. ताची आल्तडूय दिश्टी पडना, पल्तडूय पडना.

## देशाचे अवनतिचें मूळ – नवश्रीमंती

समाजाक नवें रूप दिवपा खातीर जांणी जांणी आयजवेर संवसारांत सुधारणेचो वावर केलो ते सगळे मध्यम वर्गांतले लोक आशिल्ले. क्रान्त्यो जांणी घडोवन हाडल्यो तेवूय सगळे मध्यम वर्गांतलेच आशिल्ले. मध्यम वर्ग सदांच समाजाचे फाटिचो कणो उरला. नितिच्या ज्या पांवड्यार हो वर्ग आसता त्याच पांवड्याची देशाची राजनीत चलता. त्याच पांवड्याची ताची अर्थनितूय आसता. आयज देशाची राजनीत आनी अर्थनीत अवनती कडेन पावल्या आसत, तिका अवकळा आयल्या आसत जाल्यार, धरून चलूंक जाय, मध्यम वर्ग नितिचे नदरेन पडला, ताकाच अवकळा आयल्या.

समाजांत मध्यम वर्गा भायर आनीक दोन वर्ग आसात. एक 'वयलो', दुसरो 'सकयलो'.

वयलो वर्ग केन्नाच कसल्योच सुधारणा घडोवन हाडिना. कसल्योच क्रान्त्यो करिना. समाजांत कसलोच बदल जाल्लो ताका नाका. समाज चलत आयला तसोच चंद्र सूर्य आसासर चलत रावचो ह्या मत्ताचो तो आसता. सुधारणांचो तो सदां विरोधूच करीत आयला. सदां क्रान्त्यां आडूच रावला, वावुरला.

सकयलो वर्ग? बावडो मर मर मरून दुसऱ्यांचींच पोटां सदां भरीत आयला आनी बदलाक आपणा खातीर भूक उपासा सारकीं अपेसां आनी दुख्खांच पुंजायत रावला. 'हें अशेंच सदां चलत रावपाचें... आमच्या नशिबांत बरे दीस केन्नाच येवपाचे नात' हे निर्शेणेंत जियेत आयला.

पुणून हो निर्शेल्लो खर्शेल्लो वर्ग केन्ना केन्ना तिडकीन पेट्टनूय उठला. ताका पेटोवपी कोणूय मेळ्ळा तेन्ना तेन्ना तो जयप्रकाशां फाटल्यानूय गेला, केन्ना इन्दिराजी फाटल्यानूय रावला. कोणा फाटल्यान वचूंक जाय हें तो थारायना. तें काळ थारायता. न्हंयेंत पडिल्ल्या लाकडाच्या लोळग्या सारकी गत्त ताची. लोळगो न्हंयेचे व्हांवतेंत पडिल्लो आसलो जाल्यार न्हंय व्हांवतली त्या नेटान तोय व्हांवत वतलो. तडी वयल्या झुडपांत झिरकून पडलो जाल्यार ताका धुकलून व्हांवतेंत सोडपी कोणूय येसर थंयच झिरकून रावतलो. ताच्या गळ्यांत जड फातर बांदलो जाल्यार न्हंये तळाक लागतलो आनी कुसऽसर थंयच पडून रावतलो. ताका आपली अशी इत्सा वा प्रेरणा नासता.

ह्या अर्थान ताचें मोल शून्य.

पुणून समाजांतलें हें शून्य जेन्ना खंयच्याय आंकड्या फाटल्यान रावलां तेन्ना त्या आंकड्याचें मोल ताणें धा वांट्यांनी वाडयलां. म्हूण समाजांत सुधारणा वा क्रान्त्यो घडोवन हाडपाक जे जे वावुरल्यात तांणी ताका आपणा फाटल्यान ओढून हाडपाचो सदां यत्न केला. आनी हो लोक ज्या प्रमाणांत तांचे फाटल्यान रावला त्या प्रमाणांत तांच्या सुधारणांचें वा क्रान्त्यांचें मोल वाडलां.

पुणून एक लक्षांत दवरूंक जाय, ह्या वर्गान समाजाचें नेतृत्व केन्ना आनी खंयच करूंक ना. नेतृत्व केलां तें सदां मध्यम वर्गानूच.

आयज आमच्या देशाचो मध्यम वर्गूच इबाडला. कुसला, लांचखायरो जाला, आचारभ्रष्ट जाला.

ताका असो कोणें केलो ?

एकूच जाप मेळटली -

वेव्हारवादा कडेन - प्रॅग्मॅटिझमा कडेन - चड लगट केल्ल्यान तागेरूच जल्माक आयिल्ल्या तागेल्या पोरान - **नवश्रीमंतान.**

संस्कृतायेचे नदरेन नवश्रीमंताचो पांवडो उणाक. व्हल्गर. नितिचे नदरेन आपल्या वांदडाचो. सुवार्थी, आत्मकेन्द्रीत. आस्पती नदरेन दुडवांचे राशीर लोळपी. तो सत्येर ना. पुणून सत्येचीं सगळीं सुतां तो आपणा हातांत घेवन बसला. कोणा हातांत सत्या आसची हें तो थारायता. वेंचणुकेक तो उबो राविना, पुणून उबे रावतात - मागीर ते खंयच्याय पंगडाचे आसूं - ते 'ताचेच लोक' आसतात. ताचो आधार नासत जाल्यार राम लेगीत रामाच्या ह्या देशांत वेंचून येवपाचो ना. तो 'आपणाल्या'च लोकांक वेंचून हाडटा. हाका लागून जें सरकार येता तें ताच्याच बोल्सांत उरता. प्रशासनांत - ब्युरोक्रेसींत - ताणें 'आपणाले'च लोक भरल्यात. हे लोक कसलेंच आनी कित्याचेंच उत्पादन करिनात. पुणून उत्पादन करतात तांणी तें कोणाक, खंयचे दरेन विकचें, नफो कितलो काडचो, सरकाराक कितलो टॅक्स भरचो आनी कोणाचीं बोल्सां कितलीं आनी कशीं भरचीं हें तेच थारायतात. आयज देशाचे अर्थवेवस्थेचेर तांचेंच नियंत्रण चलता.

ताचे इत्से बगर अर्थवेवस्थेचें पान लेगीत हालना.

रातयांच अब्जाधीश जावप हें नवश्रीमंतांचें सपन. हर्षद मेहता तागेलें आराध्य. हाका लागून देशाचे अर्थवेवस्थेक सट्ट्याचें रूप आयलां. संवसारीकरण, उदारीकरण, निजीकरण हीं हांचींच देश लुटपाचीं आवतां. हेच लोक देशांत भौराष्ट्रीय कंपन्यांक घेवन आयल्यात.

तांचीं घरां पळोवचीं. जमनीर पाशाण मेळटलें. कार्पेट तर आसतलीच. धुवेचें वा पुताचें लग्न थरत जाल्यार अंबानींक लेगीत लजयत इतलो खर्च करतले. लालू प्रसादान धुवेचें लग्न ज्या दबाज्यान केलें त्या दबाज्यान बिहारांतल्या आदल्या संस्थानिकां मजगतच्या कोणेंच करूंक ना जातलें. आनी लक्षांत दवरूंक जाय - लालूप्रसाद संस्थानीक न्हय, तर एक 'समाजवादी' फुडारी.

कॉंट्रेक्टर, बिल्डर, स्मगलरांचो वर्ग हांच्यांतल्यानूच वयर सरला. ताच्या 'सिक्स्टी white आनी फॉर्टी black ' ह्या गणितान देशाचीं सगळींच मोलां सकयल वयर करून उडयल्यांत. काळे पयशे जोडपाचें, लिपोवपाचें आनी धंद्यांत घालपाचें एक नवें अर्थशास्त्रूय हांणीच विकसावन काडलां.

आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार हांचे आड आयज कोण्ण उतर लेगीत काडिना. कित्याक? हांतले अर्दा परस चड भौजन समाजांतले लोक म्हूण! ते सत्येर येतात आनी लोकांक जमनी 'खावंक' दितात. तांचीं 'कन्वर्शनां' करून दितात. जमनिची दरूय वाडोवन दितात. तांची थोडी सायबाजात्रा करची, आमकांय थोडें करप्शन करूंक मेळटलें. 'सगळेच करतात. थोडेंशें आमी केलें म्हूण कितें इबाडटा?' ही देख सगळ्यांनी घेतल्या.

काळ्या पयशांची एक समान्तर अर्थवेवस्था देशांत हाकाच लागून उबी जाल्या. रिझर्व बँकेन वर्सान वर्स सगळ्योच नोटो बदलून दिवच्यो, अंदू वर्साची खंयचीच नोट -पांच रुपयांची, धा रुपयांची लेगीत - फुडल्या वर्सा चलची ना असो नेम करचो; कोणाकूच दोनां परस अदीक खेपे वेंचून येवंक मेळचें ना, भौन भौन त्याच त्याच लोकांक मंत्री जावंक मेळचें ना असो कायदो करचो म्हणात, ती रानांतली हुयेल थरतली. कोणाक आयकूंक येवपाची ना. कित्याक, काळ्या पयशांची समान्तर अर्थ वेवस्था उबे करपी तेच आनी कायदे करपीय तेच. तरांतरांचे 'घोटाळे' करपीय तेच आनी घोटाळे करतल्यांक ख्यास्त दिवपाचें काम जांच्या हातांत दिलां तेवूय तेच. चोरूय तेच, पोलिसूय तेच. त्याच त्याच लोकांक भौन भौन वेंचून हाडपीय तेच, त्याच त्याच लोकांक भौन भौन मंत्री करपीय तेच. लांच घेवपीय तेच, लांच दिवपीय तेच.

कोण आपणा पांयार गुंडो मारून घेतलो?

हाका उपाय ना? आसा. ज्या मध्यम वर्गाच्या पोटांत नवश्रीमंत जल्माक आयला त्याच वर्गाच्या पोटांत आनीक एक पूत जल्माक आयला. तो अजून वयार येवंक ना. येतलो तेन्ना आमचीं सगळीं प्रमेयां उरफाटीं पराटीं करून उडयतलो. आयज तो पेट्टून उठूंक ना. पुणून ताच्या मनांत जी निर्शेणी तुर्ताक खदखदूंक लागल्या तीच ताका एक दीस जाग हाडटली, ताका विद्रोहान उबी करतली आनी तो पेट्टून सगळें सकल वयर करून उडयतलो. आयच्या काळखाच्या पोटांतूच फायची फांतोड लिपून रावल्या म्हणटात ती निखटी कवीकल्पना न्हय. एक उगडें नागडें समाजीक सत्य तें. आयजवेर संवसारांत जितल्योय क्रान्त्यो घडून आयल्यो त्यो ह्याच सत्यान घडोवन हाडल्यात. रोमी साम्राज्य मातये भरवण जालें तें ह्याच सत्याक लागून. आदलें इजीप्त इतिहासजमा जालें तेंवूय ह्याच सत्याक लागून. आर्विल्ल्या काळांत च्यांग-काय-शेकाचें चीन ना जालें तेंय ह्याच सत्याक लागून.

आनी लक्षांत दवरूंक जाय - हे सगळे बदल रगताचे व्हाळ व्हांवले उपरांतूच जाल्यात.

आमचो देश जगा भायलो ह्या भ्रमांत कोणें रावचें न्हय.

## श्रेष्ठ

एका कवीन माडाक विचारलें, 'माडा माडा, तूं इतलो वयर गेला... तुजो व्हडांतलो व्हड हावेस कितें?'

आनी माडान खंय ताका जाप दिली, 'असले तरेचे नाल्ल दिवंक पावचों की जाचे कावथे हांवें दिल्यात ताचेय परस येद्दे येद्दे व्हड आनी इतले इतले म्होंवे नाल्ल दितले.'

कोण कवी, खंयचे भाशेंतलो, उगडास जायना. पुणून तागेल्या माडाचो हो हावेस मात तकलेंतल्यान कसोच कडेक सरना. आपणाली जितली वाड जावं येता तितली जावची - आपणा परस चड आपणाल्या भुरग्या-बाळांची जावची - तांणीय असले तरेच्या भुरग्या-बाळांक जल्म दिवचो की जीं तांचेय परस व्हड जावचीं हो हावेस मनशांतूय आसा. मनशांतूच कित्याक, पुराय सृष्टिचो **ॐ असतो मा सद्‌गमय, तमसो मा ज्योतिर्‌गमय, मृत्योर्‌माऽमृतं गमय** हावेस आशिल्ल्यान ती आपणाक सदां चडांत चड स्पश्ट उक्तायत आयल्या.

आमचो देश हेच वाटेन मुखार सरत रावला. श्रेष्ठत्वाचें प्रतीक तो दर एके गजालींत सोदून तें संवसारा मुखार दवरीत आयला.

देशांत हजार तरांचीं फुलां जातात. फुलाचें बऱ्यांतलें बरें प्रतीक तो सोदूंक बसलो तेन्ना ताका कमळ दिश्टी पडलें. हजार जातिंचे रूख. बऱ्यांतलो बरो रूख ताणें पिंपळांत पळेलो. हजार तरांचीं शेवणीं. बऱ्यांतलें बरें शेवणें आनी हजार तरांच्या प्राण्यांतलो बऱ्यांतलो बरो प्राणी संवसारा मुखार दवरूंक मुखार सरलो तेन्ना ताणें मोर आनी शींव वेंचून काडले.

मनशांत ताणें बऱ्यांतलो बरो मनीस म्हूण कोणाक वेंचून काडलो? 'आदर्श' मनीस ताका कोण दिसलो? ताणें बळाची उपासना केल्ली जाल्यार तो हनुमंताक वेंचून काडटलो आशिल्लो. शिटूक बुदवंतकायेची साधना केल्ली जाल्यार ताचे मुखार कृष्ण उबो रावतलो आशिल्लो आनी शीळ आनी प्रज्ञेक ताणें व्हड मानिल्ली जाल्यार बुद्ध ताका दिश्टी पडटलो आशिल्लो. देशांत शूर वीर जायते जावन गेल्यात. बुदवंत तशे शीळवंत आनी प्रज्ञावंतूय जावन गेल्यात. पुणून जेन्ना सगळ्यांत श्रेष्ठ मनीस सोदूंक तो बसलो तेन्ना ताका कोण मेळ्ळो? - रुशी. परमतत्वाक गिन्यानाचे वाटेन जोडून तृप्त जाल्लो; आत्म्यांतूय तें तत्त्व पळोवन कृतकृत्य जाल्लो, काळजांत तें अणभवून तिडक ओडी पेल्यान गेल्लो. करणेच्या मळार तें पळोवन शान्त जाल्लो. धाय दिकांतल्यान तें जोडून धीर जाल्लो आनी सगळ्या जिवांत तें पळोवन तांचे कडेन 'युक्त' जाल्लो.

रुशी घरदार सोडून वचना. घरांतूच रावता. संवसारांतूच आसता. पुणून संवसारा पेल्यान गेल्लो आसता. सगळ्या गजालिंनी लक्ष घालता. पुणून कित्यांतूच आपणाक घुसपावन घेनासतना अलिप्तूच रावता. सगळे आपले आनी आपूण सगळ्यांचो हेच भावनेन जियेत आसता.

सगळ्यांक जो आपले करता ताकाच ह्या देशान व्हड मनीस लेखला. कमळ, पिंपळ, मोर, शींव हांचे भाशेंत रुशीय एक प्रतीक ताचें - बऱ्यांतल्या बऱ्या आनी व्हडांतल्या व्हड मनशाचें.

## रवीन्द्रनाथ - एक व्हड 'मनीस'

रवीन्द्रनाथांक तांगेले पिळगेंतले लोक सारके वळखूंक पावलेच नात. कितल्यो बकच्छायो केल्यो तांणी तांच्यो - नोबेल इनामा सारकें इनाम जोडले उपरांतूय केल्यो.

एक तर तांगेले पिळगेंतले लोक मत्सरी आशिल्ले म्हणूंक जाय वा काळाचो धुल्ल दोनांय मजगतीं उबिल्ल्यान ते तांकां सारके दिश्टी पडले नात जावंक जाय.

तांगेली एक चीट वाचूंक मेळ्ळी -

'एक गजाल सांगूंक जाय. देशाचो वावर करतलों अशें थारावन एका काळार हांव पेंगट बांदून तातूंत पडिल्लों. तेन्ना बलायके कडेन पळेलें ना, दुडवां कडेन पळेलें ना, वेळा काळा कडेन पळेलें ना. 'घरचें खावन रानांतल्यो म्हशी आमुडपाचें' काम केल्लें हांवें... नालायकांतल्या नालायक लोकांच्या दारांत मान सकल घालून हात मुखार काडून उबो रावलां. हातार कितेंय पडलां जाल्यार तातूंत म्हजी जात बुडल्या जातली, पोट भरूंक ना.

... एक घटमूट कूड घेवन जल्माक आयलां. देखून म्हजे जल्मभुंयेन म्हाका इतलो मार दिल्लो आसुनूय तिगून उरलां. चड करून इश्टांचो अस्वडचो मार... कांय इश्ट मार घालिनात. कांय करीय नात. परते, आधार दिवपाक मुखार सरतात. पुणून तांचो हात सदां रितोच आसता... ह्या देशांत म्हजो अवमान करप जितलें सोंपें तितलें सोंपें दुसऱ्याचो अवमान करप उरूंक ना... महात्माजी, चित्तरंजन हांकां सोडून दी; बंकिम, शरद, हेम बॅनर्जी, नलीन सेन कोणाकूच म्हाका घाल्यात तसल्यो गाळी घालपाचो धीर कोणाक जावंक ना. म्हाका गाळी घाल्यो म्हूण तांचें कांय लुक्सान जायना. उरफाटो लावूच जाता. देशा भायर वतां आनी थंय म्हजो मान भौमान लोक करतात तेन्ना हे लोक 'हो भायर वचुनूच मान भौमान जोडूंक जाणा' अशें म्हणपाक लेगीत अनमननात. भायर म्हाका मान भौमान 'जोडचो' पडना. पावस कसो हरंधारिंनीं शिंवरता... निमाणें एकूच सांगपाचें - म्हज्या मरणा उपरांत शोकसभा बी करून म्हजीं आनीक आनीक फकाणां कोणें मारचीं न्हय. जाचे कडल्यान जें मेळ्ळां ते खातीर हांव तांचो सदां उपकारीच उरलां. पुणून जांणी दिवपा सारकें दिलां ते लोकांची भुरावळ जमोवन शोकसभा करपाचे नात. जांणी कांयच दिवंक ना, तेच करतले आनी जांणी गाळीच घाल्यात तेच ताळ्यो मारतले... अशें जावचें न्हय.'

रवीन्द्रनाथ व्हड साहित्यकार, व्हड संगीतकार, व्हड चित्रकार, व्हड शिक्षणतज्ञ खूब कितें कितें आशिल्ले. पुणून ह्या सगळ्यां परस ते एक व्हड 'मनीस' आशिल्ले. भितर जशे तशे भायर.

## देशाक भेंकरो केला हिन्दू धर्मान - एक कोडू सत्य

बुद्धाचे अहिंसेक लागून खंय देश भेंकरो जावन पडलो !

बुद्धाची शिकवण अहिंसेची आशिल्ली म्हणपाचें हांकां कोणें सांगलें, कोणाक खबर! ताची शिकवण **त्रिपिटकां**त आयल्या. 'जिवितांत दुख्ख भरलां, हें दुख्ख आमीच ओडून हाडलां, आमच्यांनी तें पयस करूंक जाता, तें पयस करपाची एक आठ आंगी वाट आपणें सोदून काडल्या' हींच चार आर्यसत्यां ताचे पुराय शिकवणुकेंत वाचूंक मेळटात. आयुष्यभर हींच आर्यसत्यां तो लोकांक तरां तरांनी सांगीत समजायत आयिल्लो. ताचे शिकवणेंत अहिंसा येता ती फकत **पंचशीलां**त. तिवूय, 'हांव व्यभिचार करचों ना, चोरी करचों ना, व्यसनांनी पडचों ना, दुसऱ्यांचें धन हातासचों ना' ह्या चार व्रतां वांगडा 'हांव प्राणिहत्या करचों ना' ह्या एका व्रताच्या रूपान. ह्या येद्याश्या उल्लेखा वयल्यान बुद्धाची शिकवण अहिंसेची आशिल्ली म्हणप समा जायना.

अहिंसेचो उपदेस करतालो तो खरेपणानशीं महावीर. जल्माक आयिल्लो एकान एक जीव जियेवपाचो हक घेवनूच जल्माक आयला, जियेवप ताचो 'फन्डामेन्टल रायट' - जल्मसिद्ध हक, ताका मारपाचो अधिकार मनशाक ना, ताका खंयच्याय कारणाक लागून मारप मनीसपणाक सोबना - खावपा खातीर मारप तर निखालूस सोबना, अशें तो सांगतालो. मनशाक संस्कारी करपाची तागेली ही अहिंसा आशिल्ली. देशाचे राखणेचो प्रस्न ताच्या काळांत उपरासुनूच येवंक नाशिल्लो. तो आयला अडेचशें वर्सां उपरांत - सिकंदर घुरी घालून आयला तेन्ना.

तेन्ना ताका धांवडावन घालपाचो वावर चन्द्रगुप्त मौर्यान केला. आनी विसरूंक फावना - चन्द्रगुप्त मौर्य जैन आशिल्लो. महावीराक मानपी आशिल्लो. ताचे शिकवणेक धरून चलपी आशिल्लो. पुणून सिकंदराक धांवडावन घालपाक तागेले अहिंसेन आडखळ हाडूंक ना.

बौद्ध जाल्लो तो चन्द्रगुप्ताचो नातू अशोक. कलिंग देश ताका आपणाल्या साम्राज्यांत हाडपाचो आशिल्लो म्हूण ताणें ह्या देशाचेर घुरी घाल्ली. आनी लाखांनी लोकांक ताका मारचे पडिल्ले. आपणा हातान घडिल्लो हो सांवार पळोवन तो भितरले भितर पच्छातापान हुलपुपाक लागलो. आनी मुखार आपूण खंयचोच देश 'घेवचों ना' अशें थारावन तो "बौद्ध" जालो.

बौद्ध धर्म देशांत सगळे कडेन आनी देशा भायर खूब कडेन ताणेंच पातळायला. म्हूण कितें, ताणें आपणालें सैन्य बरखास्त केलां व्हय? ना. एक शूर सम्राट म्हुण्णूच ताचो अखेर मेरेन सगळ्यांचेर धेंक उरला.

बौद्ध धर्मान देश भेंकरे केल्ले जाल्यार जपान सगळ्यांत चड भेंकरो जावंक जाय आशिल्लो. कित्याक, जपान शंबर प्रतिशत बौद्ध. हजार बाराशें वर्सां सावन बौद्ध धर्म थंय चलता. तरूय तो केन्नाच कोणाचो बंदो जावंक ना. कोमोडोर पेरीन ताचेर एक खेपे नाळी जोखल्यो तेन्ना मात्सो - मात्सोसोच - हालिल्लो. पुणून रोख्रडोच हड्डें मुखार करून उबो राविल्लो. ताका हार खावची पडली ती फकत दुसऱ्या म्हाझुजांत. तिवूय झुजपाची ताची खुमखुमी उणी जाल्ली म्हूण न्हय, तर ॲटम बॉम्बा परस प्रभावी अस्त्र ताचे कडेन नाशिल्लें म्हूण. पुणून हार खावनूय निर्शेला व्हय तर तो? देशाचो सामको गोबोर जाल्लो आसतनाय थोड्याच वर्सां भितर शहामृगा भाशेन उबो रावलो. सात खेपे पडलों तरूय आठवे खेपे उबो रावंक जाय ही शिकवण ताका बौद्ध धर्मानूच दिल्ली.

ना जाल्यार, आमचो देश पळोवया -

ख्रि.स. ७१२च्या अदमासाक पंदरा सतरा वर्सांचे पिरायेच्या मुहम्मद बिन कासिम नांवाच्या एका पोरांट्यान सिंध प्रांताचेर घुरी मात घाल्या, आठ दिसां भितर सिंध बगदादच्या खलिफाच्या साम्राज्याचो एक वांटो जालो. सिंध देश ज्या राजाच्या हातांत आशिल्लो तो बौद्धूय नाशिल्लो, जैनूय नाशिल्लो. तर हिन्दू ब्राह्मण आशिल्लो. राजपूत राजा तर हिन्दू धर्माचे व्हडांतले व्हड अभिमानी. शूर बीर म्हुण्णूय तांची नामना. तांच्यो तरसादी खणखणूंक नात असो एक लेगीत दीस राजपुतांच्या इतिहासांत पळोवंक मेळचो ना. पुणून गझनीचो महम्मद तांचेर चाल करून मात आयला, सगळे हे शूर वीर राजपूत महम्मदाच्या घोड्यांच्या पायां खालच्या धुल्ला भाशेन खंयचे खंय उबून गेले. महाराष्ट्रांतले पेशवे राजपुतां सारकेच शूर म्हूण नामना जोडून

आल्ले. तांगेल्या शौर्याचीं वर्णनां वाचतकूच तांचें साम्राज्य पुराय देशांत क पातळ्ळें ना, हाचेंच अजाप जाता. पुणून मूठभर इंग्रज पुण्यांत भितर मा सरल्यात, पेशव्यांनी तांचे मुखार साष्टांग नमस्कार घालो. राजपूत जशे बौध वा जैन नाशिल्ले तशे पेशवेय नाशिल्ले. मागीर, मात्शें खंय खुट्ट जानाफुडें सगळे शूर वीर हिन्दू राजे दुस्मानांक शरण कशे गेले?

खरी जाप एकूच आसा -

हिन्दू सदांच भेंकरे आशिल्ले. हिन्दू धर्मानूच तांकां भेंकरे केल्ले.

राज्य करप म्हळ्यार राज्य 'भोगप' इतलेंच हिन्दू राजा जाणा आशिल्ले. याची राखण करूंक जाय म्हणपाचें तांकां कोणेंच सांगूंक नाशिल्लें. ळ्यां कडेन सैन्यां आसतालीं पुणून तीं दुस्माना पसून आपणाली राखण पा खातीर आसतालीं. देशाची करपाक न्हय, आनी तांगेले दुस्मान लेच कोणूय तरी शेजारी पाजारी वा सोयरे धायरे आसताले. भायले . सिंधाच्या राजा कडेन सैन्य आशिल्लें. पुणून तें तागेल्या राजम्हाला तणींच आशिल्लें. राजाची राखण करतालें. राज्याचे शिमेर सैन्य दवरूंक य म्हणपाचें ह्या राजाक खबर नाशिल्लें. आपणालें राज्य समुद्राचे देगेर सा, आपणें थंय एक नावीक दल उबें करूंक जाय म्हणपाचेंय ताच्या यच्याच शास्त्रांत नाशिल्लें. आपणाले शिमे पेलेकडेन खलिफाचें आकांताचें ड एक साम्राज्य पातळ्ळां, ताणें पुराय मध्य एशिया, उत्तर आफ्रिका, रोपाचो दक्षिणे कडलो वाटार 'घेतला', आपणालेंय राज्य ताच्या मनाक रल्यार ताचे भकीक पडूं येता म्हणपाचेंय ताका खबर नाशिल्लें. भायर तें चल्लां हें ताणेंच न्हय तर कोणेंच ह्या देशांत जाणा जावन घेवपाचो यत्न रूंक ना. राजपुतांनी केल्लो जाल्यार गझनीच्या महम्मदाच्या हालचालिंचेर नदर दवरून रावतले आशिल्ले. तशे ते रावले नात. राविल्ले जाल्यार, क्रवर्ती राजा जावपाच्या हावेसान आमी एकामेकां आड झुजतात तें आमकां टवपाचें ना, आमी एक जावंक जाय, आमी एकठांय आयले जाल्यार झनीच्या महम्मदाक खंयचें, ताच्या बापायक लेगीत देशांत पावल दवरपाचें ळीज जावचें ना म्हणपाचें तांकां कळटलें आशिल्लें. कळ्ळें ना. परिणामीं, शाचे सगळे दरवटे मुसलमानांक घुरयो घालपाक तांणीच उकते करून वरले. देशांत सात आठ शतमानां मुसलमानी राजवट चल्ली ती सलमानांच्या शौर्याक लागून काय आमचे मोटवे नदरेक लागून, आमच्यांतले टीक लागून आनी आमच्या भेंकरेपणाक लागून, मात्शें सोदून काडूंक ाय. आमी भितरले भितर झुजत रावले जाल्यार इंग्रजां मुखार आमी तग रूंक पावचे नात हें शिंद्यांकूय केन्ना कळ्ळें ना, होळकरांकूय समजलें ना. णें लुटपाक दोगूय फुरफुरून मुखार सरले.

देशाची राखण फकत राजांचें शौर्यूय करूंक पावना, तांगेलें सैन्यूय करूंक पावना, दोगांय फाटल्यान प्रजा पर्वत कशी उबी रावंक जाय. ती तशी उबी रावपा खातीर प्रजे मजगतचे सगळे वेगळेचार ना करून तिका 'एक' करूंक जाय. सगळ्यांचो पीळ सगळ्यांक पडूंक जाय हें हिन्दूंच्या एकाय स्मृतिकाराक कळ्ळें ना. समाजांत व्यवस्था - आयचे भाशेंत, लॉ एण्ड ऑर्डर - चालू आनी स्थापन करपा खातीर तांणी एक चातुर्वर्ण्य वेवस्था उबी केली. तातूंत देशाचो राजकारभार चलोवप आनी ताची राखण करप हें काम क्षत्रियांच्या वांट्याक आयलें. बाकिच्या तिनूय वर्णांचे लोक ह्या दोनूय कामां पसून कडेक पडले. मर्दी मर्दी राज्य 'भोगपा' खातीर ब्राह्मण मुखार सरल्यात, तशे वैश्यूय सरल्यात आनी शुद्रूय सरल्यात. पुणून हांकां आडमार्गी (aberrant) लेखूंक जाय. सामान्यतायेन ब्राह्मण, वैश्य आनी शूद्र राजकारभाराच्या मळार तटस्थ वा उदासीनूच रावले. 'आमकां होय सारको, तोय सारको' अशें म्हणीत रावले. तें कित्याक, तांकां देशी कोण, विदेशी कोण, हेंवूय केन्ना कळ्ळें ना. कोणूय आसूं, आमच्या दिसपट्ट्या वेव्हारांत ताणें आडखळ हाडिना जातकूच जाली, अशें देवा लागीं मागीत रावले. देश भौन भौन गुलाम जाला ताच्या मुळांत ही चातुर्वर्ण्य व्यवस्थाच आसा अशें म्हणूंक जाय. फकत मनूक एकल्याक गाळी संवन भागपाचें ना. वेदांच्या काळा पसून ही 'वेवस्था' चलत आयल्या. मनू बुद्धा उपरांत तीन चार शतमानांनी आयला. गाळी घालच्योच जाल्यो जाल्यार पुराय हिन्दू 'नदरे' कूच घालच्यो पडटल्यो. सगळ्यांत चड शंकराचार्या सारक्या आचार्याक घालच्यो पडटल्यो. मनू नांवाचो कोण खरोच जावन गेला काय किते, सांगूंक येना. पुणून शंकराचार्य जावन गेला हे विशीं कोणाकूच दुबाव आसचो ना. मुहम्मद बिन कासिमान सिंध घेतले उपरांत शंबर देडशें वर्सांनी शंकराचार्याचो जल्म जाला. हिन्दू समाज विस्कळीत जावन पडिल्लो ताका शंकराचार्यान संघटीत केलो म्हूण ताची नामना आसा. पुणून हिन्दू समाज संघटीत जावंक आडखळ चातुर्वर्ण्य हाडटा म्हणपाचें इतिहासान स्पश्ट बरें दाखोवन दिल्लें आसतनाय ह्या आचार्यान 'शूद्रांनी वेद शिकूंक जायनात, वेदवाक्य तांच्या कानार पडलें जाल्यार शिशें कडोवन तें तांच्या कानांत घालचें आनी कान फोडचे, वेदमंत्र तांच्या तोंडांतल्यान भायर सरले जाल्यार तांच्यो जिबो कातरून उडोवच्यो' असलो 'वेदान्त' शिकयला! (ब्रह्मं सत्यं, जगत् मिथ्या). ज्या देशांत असलो 'वेदांत' चलता तो संघटीत कसो जातलो? तो सदांच विस्कळीत उरतलो, भेंकरोच उरतलो.

देशाक भेंकरो केला तो हिन्दू धर्मान. हिन्दू धर्माच्या स्मृतींनी, हिन्दूंच्या धर्माचार्यांनी. बेश्टें अहिंसेक दुशण कित्याक? आनी बुद्धाक बावड्याक बेश्ट्यो गाळी कित्याक?

मात्शे तर्जून तरी पळेयात सभाग्यांनो तुमचोच धर्म, तुमचेंच तत्त्वज्ञान, तुमचोच वेदान्त. मागीर देश भेंकरो कसो जालो हें बेस बरें लक्षांत येतलें तुमच्या.

***

---

## *पिड्डुको*

- ☐ *खिणान खीण मोलाचो. काळाचें म्हत्व जाणात तांकांच तो कळपाचो.*
- ☐ *ल्हान कामां करपाचें सोडून दिशीत जाल्यार व्हड कामां तूं केन्नाच करूंक पावपाचो ना.*
- ☐ *इत्साच आसूंक जाय. वाट आपशीं मेळटली.*
- ☐ *यादस्तिचे गॅलरींत बऱ्यांतलीं बरींच चित्रां लावचीं.*

# आवय

मूळ मलयाळम: वायकम मुहम्मद बशीर
अणकार: आर. के. राव

पयशिल्ल्या कोणा एका शारांत जायत्या तरांच्या कश्टांनी दीस सारपी पुताक आवय दुखाभरीत मनान बरयता:

'पुता, आमकां तुका चिके पळोवपाक जाय.'

इतलेंच न्हय. चड चड वाक्यां. व्याकरणाचे नेम वा अक्षरांचो आकार हें कांय ना. जाल्यारय, आवयच्या मनाचें सगळें दुख्ख स्पश्ट. परस्पर मेळून साबार काळ जाले.

आवय दिसान दीस वाट पळयता आसतली म्हण पुताक कळटा. पूण कितें करचें? वचपाक दुडू ना. दिसान दीस उपजीविका चलोवपाकच व्हड संकश्ट. 'कशेंय करून फाल्यां घरा वचपाक भायर सरूंक जाय, वचून आवयक मेळपाक जाय' अशें म्हणून मनाक शांत करप. तातूंत मदें दीस, हफ्ते, म्हयने, म्हयने आनी वर्सां असो काळ मुखार वता.

आवय दिसान दीस पुताची वाट पळयता.

हांवें आतां मेरेन सांगलां तें आनी सांगपाचो आसां तें आवय विशीं आसा. असल्यो घडणुको, भारतांतले एके एके आवय विशिंच्यो एका एका पुता लागीं आसतल्यो. भारताचे स्वतंत्रतायेच्या संग्रामा विशीं हांव सांगपाचों आसां. उगडास करपाक कठीन विशय. हो विशय आनी आवय हांचे मदेंय कांय व्हड संबंद ना. हांव आवयचो पूत - होच संबंद. म्हजे सारक्या संतानांक जल्म दिल्ल्यो आवयो, मातृभुंयेच्या स्वातंत्र्या खातीर झुजपाच्या अपराधाक लागून हीं संतानां बंदखणींत पाविल्लीं तेन्ना कितें करताल्यो? खंयच्यान तरी आयिल्ल्या विदेशी गोऱ्यांल्या सरकाराचे नोकर आशिल्ल्या भारतियांनीच भारतांतल्या तरणाट्यांक मुठिंनी गुड्डावन हाडां मोडून पूड करून बंदखणींत घाले तेन्ना तांच्या आवयांनी भायल्या लाखांनी घरांनी बसून कितें केलें? उगडास करपाक जायत? म्हाका अदमासूच करपाक जावंचें ना, पूण तरी तेन्ना म्हजे आवयन कितें केलें तें म्हाका बरे भाशेन कळटा.

तें पोरणें पुराण हांव हांगा बरोवंक बसलां ताचे फाटल्यान दुसरो आनीक कांय हेतू ना. हांवें आवयचें पत्र वाचलें तेन्ना पोरणे कांय विचार म्हज्या मनांत आयले. हांव वैकम तलयोलपरंपु थळार सावन शंबर मैल पयस कोलकुट (कालिकट) शारांत मिठाच्या सत्याग्रहाक गेल्लों ती कथा.

मिठाचो सत्याग्रह! उगडास करपाक जातलो?

ताचे आदीं आनीक इल्लेंशें सांगूंक जाय. हांव हें बरयतां एक हजार णवशें आठतीस वर्सांत. हें, वा भारत आयजूय गुलाम देश आसा हें रहस्य न्हय. मोहनदास करमचंद गांधी ह्या मनशाक लागून हांवें पयलेच खेपे मारपेट घेतलो - हें रहस्य हांव हांगा बरोवपाचो आसां... एक मात, आवयन म्हाका जल्मूच दिवंक नाशिल्लो जाल्यार म्हजे संबंदान कांय घुस्पागोंदळ जावंचो नाशिल्लो. म्हाका लागून आवयक कसलें मनोदुख्खूय जावंचें नाशिल्लें. गुलामी, गरिबी तशेच दुसरे कांय भयंकर रोग भरिल्ल्या ह्या अभागी देशांत आवयन म्हाका कित्याक जल्म दिलो? हो प्रस्न भारतांतले एके एके आवयक तिचें एक एकलें भुरगें विचारतलें व्हय? भारत इतलो गरीब देश कसो जालो? हांव एक भारतीय अशें अभिमानान सांगपाक म्हाका जायना. हांव पुरायेन एक गुलाम. गुलाम भारत देशाचो हांव तिरस्कार करतां. पूण भारत भूंय म्हजी आवय न्हय? म्हाका जल्म दिल्ली म्हजी आवय म्हजे पसून आस्त बाळगिता तशी भारत भुंयूय म्हजे पसून आस्त बाळगुचिना? भारत भूंय मेल्ल्या म्हाका, आनी, म्हाका जल्मा घाल्ली म्हजी आवय जिव्या म्हाका.

अदमास!

हांव उगडास करतां.

आवयन म्हाका जल्म दिलो. आपणालें दूद आनी अशेंच हेर कांय दिवन म्हाका वाडयलो. तसो म्हाका एक मनीस केलो. खूब तानेवन, उमेद वाडोवन जाल्लें संतान हांव, हो सगळो आवयचो युक्तिवाद! 'तूं तानेवन उमेद वाडोवन जल्मल्लें संतान!' अशें जण एकल्या संतानाक पळोवन जण एकली आवय सांगतली व्हय? म्हज्या काळजांत येवपी विकार हांव हांगा बरोवंक बसूंक ना, मना करपी बेडये सारक्यो पोलीस कोठयो, जेल, फांशी दिवपाचें फळें. उगडास जाता?

कुडीक तशी मनाकय घुसमटावपी पागारांची भयंकर बंदखण आसा भारत! गांधीजीन अशें म्हळां, केन्ना तें कळना. गांधीजींक लागून मार आनी मुठी घेतल्यो ताचो म्हाका बरो उगडास आसा. मारिल्लो एका ब्राह्मणान. नांव वेंकटेश्वरअय्यर. तो वायकम अंग्रेजी हायस्कुलाचो हेडमास्तर आशिल्लो. बेताचे बडयेच्या बळान सात पेट. तें वायकम सत्याग्रहाच्या वेळार. सगळ्या अछूत हिन्दूंक देवळांनी प्रवेश करपाक मान्यताय दिवपाक जाय. सत्याग्रह्यांच्या दोळ्यांत सवर्ण हिन्दू जातिचो लोक हरवो चुनो भरतात. खूब उपद्रव दितात. हें सगळें सोंपोवंक जाय. गांधीजी येतात. उगडास आसा?

वायकम बोट जेट्टी आनी न्हंयचे तडीर लोकांची व्हड खेट. सगळे कडेन गोंदळ. दुसऱ्या विद्यार्थ्यां वांगडा हांवूय खेटून गोंदळून लोकां मुखार पावलों. बोटीर गांधीजीक पयस सावनच पळयलो. जेटीक बोट लागली. हजारांनी ताळ्यांतल्यान आवाज आयलो - भारतांतले सगले अनिती आड झुजाच्यो घोषणा दिल्ले भाशेन भयंकर आह्वान दिल्ले भाशेन, हजारांनी ताळ्यांतल्यान दरयाच्या गाजपा भाशेन आवाज आयलो - महात्मा गांधी की... जय !

तो अर्द नागडो फकीर. दोन दांत वगडायल्ल्या दांतां भोंवतणचें मांस दाखोवन हांसून हात जोडून न्हंयचे तडीर देंवलो. लोकांचो व्हड बोवाळ. उकत्या मोटरकारांत तो ल्हवू चडून बसलो. लोकांचे खेटींतल्यान कार सत्याग्रह आश्रमांत ल्हवू ल्हवू मुखार सरली. विद्यार्थ्यांतले कांय जाण

करेचे कडेक हुमकळून रावले; तांचे मदें हांवय. ते खेटींत म्हाका एक ड्डा! त्या लोकमान्य महात्म्याक हात लावपाक जाय ! एक आफुडलोना जल्यार हांव मरून सकयल पडटलों म्हण म्हाका दिसलें. जमिल्ल्या लाखांनी लकां मदल्या कोणेंय देखल्यार? म्हाका भंय आनी भिरांत जाली. सगळें विरून हांव गांधीजींच्या उजव्या खांदाक ल्हवू आफुडलों! सकयल पडूंक गेलों देखून हाताक धरलो. स्नायूंक बळ ना. गुळगुळसाण. गांधीजी म्हाका चून मुमुरख्यांनी हांसले.

त्या दिसा सांजे घरा वचून आवय लागीं हांवें अभिमानान म्हळें: 'आवय हांदें गांधीजीक हात लायलो.'

गांधीजी कोण कितें म्हण जाणविकाय नाशिल्ली म्हजी आवय भियेवन जापीत जाली. 'हो... म्हज्या पुता!...' आवयन अजापान म्हाका पळयलो.

हांव उगडास करतां.

हेडमास्टर देवालय प्रवेशाच्या सत्याग्रहा आड आशिल्लो. गांधीजीचोय विरोध करतालो. देखून विद्यार्थ्यांत कोणेंय खद्दर न्हेसपाक मनाय आशिल्ली; सत्याग्रह आश्रमांत वचपाकूय मनाय आशिल्ली.

हांव त्या दिसा खद्दर न्हेशिल्लों. आश्रमांतय हांव वतालों. एक खेपे हांव विद्यालयांतल्या वर्गांत भितर सरतालों तेन्ना हेडमास्टरान म्हाका उलो केलो आनी रागान हांसून म्हळें: 'आम्पडा! ताचो सणा-परबेचो भेस देखलो?'

हांव ओगी रावलों. परतून ताणें विचारलें: 'तुजो बापूय असले कपडे घालतालो?'

हांवें म्हळें, 'ना.'

तेन्नाचीच खबर. एक दीस हांव वर्गांत गेलों. घांट वाजून दोन तीन मिनटां जाले उपरांत हेडमास्टर हातांत बेत घेवन वरांदार उबो आशिल्लो. म्हाका आपोवन विचारलें तेन्ना हांवें म्हळें: 'आश्रमांत गेल्लों.'

'थंय तुगेलो कोण आसा?' विचारीत ताणें मोठ्यान स पेट म्हज्या हाता तळव्यार मारले. 'हे मुखार वचूंक फावना, समजलें न्हय?' अशें म्हणीत फाटीर एक बडी घाली.

'आनीक गेल्यार तुका डिसमिस करतलों!'

पूण हांव परतूनूय गेलों. हांव उगडास करतां.

तेन्ना म्हजेलागीं एक खादी शर्ट आनी एक खादी धोतीय आशिल्ली. एक शर्ट आनी एक धोती मात्र. तेन्ना खादी स्वातंत्र्याची आनी विदेशी सरकाराचो विरोध दाखोवपाची एक निशाणी आशिल्ली. विदेशी वस्त्रां न्हेसचोंना म्हण हांवें जबरदस्ती धरिल्ली.

हांव मेलों जाल्यारूय म्हाका खद्दर पांगरून पुरूंक जाय म्हण हांव सांगतालों. आवय विचारताली: 'गांधीक खंय सावन मेळ्ळें रे हें दाट साका सारकें खरचटपाचें वस्त्र?' खद्दर आंगार घाल्यार आंग खरचट्टलें म्हण आवयचो विश्वास!

हांव सांगतालों: 'हें भारतांत विणून तयार केल्लें वस्त्र. तशे गांधीजी, जवाहरलाल नेहरू, स्वराज्य, विदेशी प्रभुत्व हे सगळे संवादाचे विशय आशिल्ले. गांवच्या म्हाताऱ्यांक चीन देशा विशीं वा इंग्लंडा विशीं संशय विचारपाक दोग तरणाटे मात आशिल्ले. एकलो के. आर. नारायणबाब. कठोर यत्न करपी नारायणबाब तेन्नाचो चडश्या दिसाळ्यांचो नेमिल्लो प्रतिनिधी आशिल्लो. कोणेंय कित्याय खातीर म्हजे कडेन संशय निमगिल्यार 'म्हाका कळना' म्हण हांवें तेन्ना सांगलें ना. पूण एक खेपे म्हाका जाप दिवपाक कठीन जालें.

आवयन विचारलें: 'आरे हो गांधी आमचो उपास सोंपयतलो?'

एक भारी व्हड प्रस्न, सगळ्या भारताक लागपी. ताचे विशीं म्हाका कांय कळना. जाल्यारय हांवें म्हळें:

'भारत स्वतंत्र जाल्यार आमचो उपास सोंपतलो!'

क्रिस्तांव वर्स एक हजार णवशें तीस. तेन्नाच जावंक जाय, गांधीजीन तांगेले इकरा विशय मेळोवन घेतिल्लें एक पत्र तेन्नाचो वायसरॉय लॉर्ड इरवीन हांकां सबरमती आश्रमा सावन धाडलें. रेनॉल्ड नांवाचो एक अंग्रेज तरणाटो तें पत्र घेवन गेल्लो अशी याद जाता. पूण समाधानाची जाप मेळ्ळिना. पत्रांत बरयल्ले भाशेन सत्याग्रह संग्राम सुरू जालो. मिठाच्या कायदयाचो विरोध करपाक सत्तर अनुयायां सयत गांधीजी दांडी समुद्र वेळेर वचपाक भायर सरले. भारतांतले कोट्यांनी दळिद्री लोक ज्या मिठाचो रांदपाक उपेग करताले ताचेर भायल्यान हांगा येवन अधिकार स्थापन केल्ल्या ब्रिटीश सरकारान सरकारी कर लागू केल्लो. भारताक हालोवन उडयल्ली गांधीजींची ती दांडी यात्रा. तिचे आदींच तांणी स्पश्टपणान म्हळ्ळें:

'एकतर म्हाका जाय आशिल्ली मोख साध्य करून हांव आश्रमांत परतून येतलों ना जाल्यार म्हजें मडें अरबी समुद्रांत पडून होळ्ून वतना दिश्टी पडटलें.'

गांधीजी मरतले? हिमालया सावन कन्याकुमारी मेरेन आवाज गाजलो. सगळो भारत खुबळ्ळो. ब्रिटीश सरकार आनी भारतांतले नरेश हांणी तांचे पुराय शक्तिचो उपेग करून आयुदां नाशिल्ले हिन्दू, मुसलमान, इसाई, पारसी, सीख ह्या सत्याग्रहिंचो फुडो केलो. सैन्य, पोलीस, जेल, माची - हें जालें राज्य करप. गांधीजींक आनी अनुयायींक दांडी सागराचे वेळेर आसतना बंदी केले.

दुसऱ्या खंयच्याय थळा भाशेन केरळाचेंय वातावरण तेन्ना शांत नाशिल्लें. कोलकुटचे समुद्रा वेळेर मिठाच्या कायद्या आड वावुरपी लोकांक एक भारती सुप्रिन्टॅण्डँटाच्या हुकमान खूब पिडापीड भोगयल्ली. बूट घाल्ल्या पायांनी फांफार मारप, लाठयो मारप - आनी मारपी कोण? भारतीय पोलीस आनी सैनीक!

केळप्पन, मुहम्मद अब्दुर्रहमान आनी हेरांक बंदी केले. ताका लागून कायदेभंग करप, बंदी करप आनी पुलिसांचें पिडापीड भोगोवप. तांचे मदीं कोलकुटचे समुद्रावेळेर विद्यार्थ्यां आड केल्ली कारवाय सामकी निश्ठूर आशिल्ली. निरपराधी विद्यार्थीगण! केरळचे फुडाराचे नागरीक. तांकां केरळच्या पोलिसांनी मारून भुंयेर घाले. माथें फुटून रगत व्हांवन ते कोलकुटचे समुद्रा वेळेर पडले. शेंकड्यांनी विद्यार्थी! 'मातृभूमि' दिसाळ्यार एका मुखेल्यान उजवाडायल्ल्या निवेदनांत म्हळ्ळें -

'मायभुंयेचें रीण तांकोवपाक कोलकुटचे सागरा वेळेर जमिल्ल्या नेणार विद्यार्थ्यांक - निरायूध आनी निरपराधी नाजूक बाल विद्यार्थ्यांक केरळच्याच बायलांनी जल्मा घाल्ल्या पोलिसांनी दया माया नाशिल्ले क्रूरतायेन लाठयांचो मार दिलो, तांच्यो तकल्यो फोडल्यो. आनी ह्या शारांतले मानादीक, धनवंत आनी मुखेल नागरीक म्हणपी सगळे हें पळोवन, आयकून चूप बसल्यात. हें पळेतां तेन्ना, अधिकाऱ्यांच्या हुकमाक दोळे धांपून पाळो दिवपी, शिक्षण नाशिल्ल्या पोलिसांची हांव कित्याक चूक करूं?'

तो काळूच तसो आशिल्लो. तरी साबार लोक ओगी बसले नात. लोक एकठांय येवन रणगीत गावंक लागले. 'येयात येयात भावांनो, कश्ट सोंसून झूज करपाचो वेळ आयला.'

तसो हांवूय गेलों. कोणाक सांगी नासतना शिक्षण सोडून, कोलकुटाक गेलों. त्या दिसा सांजे म्हजी आवय रांदचे कुडींत जेवण तयार करताली. आवयक कांय खबर नाशिल्ली. हांवें आवय कडल्यान निमाणचो उदकाचो ग्लास घेतलो आनी आवयचेर एक नदर घालून भायर सरलों.

कोणूय मागलान येता म्हण भियेलों.

बोटी वयल्यान अंचिकमल (एरनाकुलम) देंवन इडप्पलीक चलून वचून रेल्वे स्टेशनार पावलों. सांज जाल्ली. गाडी येवपाक चड कळाव जालो. तेन्ना चार पांच पोलीस दिवो घेवन स्टेशनार आयले. हांव भियेवन कडकडलों.

न्हिदपाचो देखावो करून मोन्यांनी आड पडलों. एकल्यान म्हजे कुशीक लाठयेन ल्हवू स्पर्श करून म्हाका हटकिलो. दिवो म्हज्या तोंडा कडेन हाडून विचारलें: 'खंय वता रे तूं?'

कितें सांगचें? काँग्रेसींत भरती जावपाक तिरुवितांकुरां सावन कोलकुटाक वतां म्हण सांगपाक हांव भियेलों. हांवें फट सांगली. 'षोर्णूराक वतां.'

'कित्याक?'

परतून एक फट. 'थंय म्हज्या मामाचो चायेचो व्यापार आसा.'

पोलिसान मुखार कांय विचारलें ना. ते एका चोराक सोदूंक भोंवताले. षोर्णूराची तिकेट घेतली. थंय देंवन पट्टांबी मेरेन चमकलों. परतून गाडयेचो प्रवास करून कोलकुटाक पावलों. मुहम्मद अब्दुर्रहमानाच्या 'अल् आमीन' दिसाळ्याच्या 'अल् आमीन' लॉजांत रावलों. म्हजो एक गांवकार सयद मोहम्मद बेल्लारी जेलांत आ शिल्लो. पयलींच हांवें ताका जेलांत लिपचोरयां एक पत्र धाडिल्लें - म्हजें सर्वस्व भारतमातेच्या पांयां कडेन अर्पण करपाचो निर्णय घेतला. गुलामिची सांखळ तोडपा खातीर म्हजी पुराय शक्त हांव दान दितां. हांव कादयेंत वचपाकूय तयार आसां!

ताका ताणें जाप बरोवन धाडिल्ली. 'म्हाका आनीक थोडेच दीस आसात सुटपाक. परस्पर मेळून उलयले उपरांत काँग्रेसींत वांगडी जाल्यार पुरो.' 'अल अमीन' दिसाळ्याचो पालवी संपादकय त्या काळाच्या मुखेल्यांत भितर एकलो आशिल्लो. ताणें आट्टप्पालम शारांत ई. मोयतू मौलवी आनी हेरां सयत सुप्रिन्टॅन्डॅटाची पिडापीड भोगिल्ली. तो भायर ये सर रावपाचो म्हाका थारा नाशिल्लो. भारत फाल्यां स्वतंत्र जातलो, स्वातंत्र्य संग्रामांत म्हाकाय भाग घेवंक जाय! म्हज्या गांवांतल्या, म्हजे जातींतल्या चड लोकांनी तातूंत भाग घेवंक ना, हें उणेपण म्हाका भरून काडपाक जाय. त्या वेळार म्हजो बापूय आयलो. सय्यद मोहम्मदालें पत्र दाखोवन बापायक सांगलें: 'हांव काँग्रेसींत भरती जायना, स्कुलांतय वचना. एक नोकरी मेळोवपाचो प्रयत्न करतां. लागींच मेळटली.' कसोय बापायक समजावन धाडलो. उपरांत हांव सरळ काँग्रेसिच्या कार्यालयांत गेलों. थंयूय म्हजी निर्शेणी जाली. हांव एक सी. आय.डी. म्हण ते गैर समजले. ताका म्हजी डायरी कारण जाल्ली. तातूंत अंग्रेजी, तमीळ, हिन्दी, अरबी, मलयाळम अशा साबार भासांनी हांवें बरयल्लें आशिल्लें. ती डायरी बांकार दवरून हांव वाटोणें वचपाक गेलों. हांव परतून आयलों तेन्ना सेक्रेटरी ती उकती करून वाचतालो. ताका तातूंत चड कांय समजलें नासतलें. तरीय ती म्हजे वयल्या दुबावाक कारण जाली. हांवें सयद मुहम्मदालें पत्र दाखयलें. मागिरूय दुबाव ना जालो ना. म्हजी दशा आनी दिश्टी सगळ्याचेर ताची नदर आशिल्ली. कार्यालयांत राष्ट्राच्या मुखेल्यांचे फोटे लांबयल्ले आशिल्ले. वांकडें फॅल्ट हॅट, आंगार व्हड कॉलराचो धवो शर्ट, वयल्या ओंटार भरिल्ल्यो पातळ मिशयो. तोंडाची शोक गंभीर दशा. हो फोटो कोणाचो म्हण हांवें निमगिलें. कारण, सायबाल्या भेसांतल्या त्या मुखेल्या कडेन पळोवंक म्हाका तिरस्कार दिसलो. सेक्रेटरीन म्हळें: 'भगत सिंह.' तें आयकून हांव अजापान तटास जालों. वीर पराक्रमी भगत सिंह! तेन्ना ताका गोळार दिल्लो नाशिल्लो. भगत सिंह, राजगुरू, सुखदेव... पंजाबाच्या गुटांतल्या त्या तीन क्रांतिकाऱ्यां विशीं हांवें खबरेपत्रांचेर वाचिल्लें. तांणी विधानसभाघराच्या हॉलांत बॉम्ब उडयल्लो, वायसरॉयाची रेलगाडी मोडून घालपाचो यत्न केल्लो तें हांव जाणा आशिल्लों. ते फोटो हांव उकत्या दोळ्यांनी पळेत रावलों. सेक्रेटरीन म्हळें: 'भगतसिंहाच्या तोंडाची सारकाय तुमकां आसा. मिशयो आनी कॉलर तांचेच वरी. एक फॅल्ट हॅटय दवरल्यार तशे दिसतले.'

हांव ओगी रावलों. म्हाका भगत सिंहाची सारकाय आसा हे विशीं चिंतून आशिल्लों. तेन्ना सेक्रेटरीन म्हाका परतून विचारलें, 'खऱ्यांनीच तुमी मुसलमान व्हय की?'

हांवें विचारलें: 'तुमकां संशय आसा?' मागीर तेन्ना मेरेनचें म्हजें जीवन चरित्र हांवें सांगून उडयलें. अखेर तांणी विचारलें: 'फाल्यां समुद्राचे वेळेर मीठ करपाक वचपाची तयारी आसा?'

'तयार !' हांवें हयकार दिलो.

तसोच दुसऱ्या दिसा फांतोडेर न्हिदेंतल्यान उठलों. बुडकुलो, झेंडो आनी हेर कांय वस्तू घेवन आमी वचपाक तयार जाताले. त्याच वेळार निसणिच्या पांवड्यार 'पट पटा' आवाज आयकून तटास जाले. आमी चोयलें, स सात पुलीसकारां सयत इन्स्पेक्टर भितर सरलो. ते आमकां इकराय जाणांक बंदी करून घेवन गेले.

तें एका आयतारा सकाळच्या समयार जालें. आमी कोणेंच कांय खाल्लें नाशिल्लें. न्हीद नाशिल्ल्याची थकणीय म्हाका चड आशिल्ली. आमचे मागलान एक व्हड जणावळीय आयली. पोलीस स्टेशन लागीं पावपाक म्हजें धाडस ऊब जावन गेलें. पयलेच खेपे हांव पोलीस स्टेशनांत वतां. खांडें, बायनेट आनी बेडयो पागरार आसून भिरांत दिसपा सारक्यो जगमगताल्यो. तांच्या कठीन उजवाडाच्या झोतान आनी स्टेशनांतल्या पुलिसांच्या निश्ठूर तोंडांनी म्हाका भोव भेश्टायलो. म्हाका नरकाचो उगडास आयलो.

आमकां रेगार वरांदार रावयले. गिड्डो माजरा दोळ्यांचो इन्स्पेक्टर भितर गेलो. आमच्या मुखावेल्यान एक दीग रुंद घटमूट पोलीसकार हेवटेन तेवटेन चमकत आशिल्लो. तांबडे व्हड दोळ्यांचे तीख नदरेन तो आमकां एक एकल्याकय पळयतालो. ताचो नंबर २७० आशिल्लो. मुखार राविल्ल्या कॅप्टनाच्या मानेच्या मणक्याक धरून ताणें ताका भितर धुकल्लो. भितरल्यान मुठी, फांपार आनी रड्याचो आवाज आयलो. म्हजें काळीज थरथरलें. हांव चौथो आशिल्लों. धा मिनटां सरलीं. दुसऱ्याकय घेवन गेले.

ताचें हड्डें फोडपा सारकें रडें आयकून हांव थरथरलों. माफी मागची अशें थारायलें. एका खिणाक मात्र. पूण अकस्मात म्हाका दिसलें, कित्याक माफी मागची? चूक कांय करूंक ना. स्वातंत्र्या खातीर कितले कितले तरणाटे तरणाट्यो मरण पावल्यात. हांवें भगत सिंह आनी ताच्या दोस्तांक स्मरण केलें. मरण पावूं, तेंच म्हजें करतूप!

मुखावयलो २७० नंबर पोलीसकार एक एकल्याक तो खंयचो तें विचारतालो. एक एकलो आपल्या गांवाचें नांव सांगतालो.

'कण्णूर', 'तलश्शेरी', 'पोन्नानी'.

ताणें म्हाका विचारलें, 'तुजो?'

हांवें म्हळें: 'वायक्कम'.

'वायक्कम!' ताणें अजापान म्हाका चोयलें.

तिरुवितांकूरचो!

'नांव?'

हांवें नांव सांगलें. गर्वान. २७०न म्हाका विचारलें, 'तिरुवितांकूराक स्वशासन मेळ्ळें?'

हांवें म्हळें: 'ना. राजाच्या राज्यांत संग्राम नाका अशें गांधीजीन म्हळां.'

'ड्हूं!' तो भेश्टावपा सारको गुणगुणलो. क्रूर दिश्टीन लागीं आयलो. म्हज्या दोनूय कानसुलांचेर फट् फट् करून दोन थापटां! आनी मानेचो मणको धरून बागोवन फाटीर मुठी मारूंक लागलो. तांब्याच्या आयदनार मुठी मारपा सारको आवाज गाजलो. सतरा काय सत्तावीस मेरेन हांवें मेजलें. मागीर हांवें मेजलें ना. कित्याक मेजचें?

अखेर दोगां पोलीसकारांचे मजतीन अपंगूळ जाल्ल्या म्हाका भितर व्हेलो. इन्स्पेक्टरान म्हजी अवस्था पळोवन म्हळें: 'ऊम्?'

एका पोलीसकारान म्हळें: 'नंप्यार चेनंपान मारलो...'

गंभिरताय कांय ना अशें सांगूंक सोदिल्ले वरी पोलीस इन्स्पेक्टर गुणगुणलो: 'ऊम्.'

दुसऱ्या एका पोलीसकारान म्हजें शर्ट निसरावन म्हजी उंचाय, थोराय आनी निशाणी सगळें पळोवन घेतलें.

अखेर आमकां इकरांकय पोलीस कोठयेंत घाले. ती शिमीट घाल्ली एक सान कूड आशिल्ली. लोखणी सळयांचें कवाड. माथ्यार खर उजवाडाचो बल्ब. पोलीस कोठयेच्या एका कोनशांत एक कळसो भर मूत. ताच्यो खातसाणी. त्या दिसा आमकां खाण मेळ्ळें ना. रातीं भिरांकूळ थंडी आशिल्ली. न्हिदपाक मांदरी नाशिल्ली. दुसऱ्या दिसा फांल्यार एकएकल्याचें तोंड सुजून फुगून आयिल्लें. आमकां चलपाक लेगीत जायनाशिल्लें. बेडयो घालून आमकां कोलकुटच्या बाजारा वटेन, बंदूक आनी तलवार धरून पोलीस राखणदार न्यायालयांत घेवन गेले.

चौदा दिसांच्या रिमांडाक कोलकुटच्या सबजेलांत धाडले. थंय आसतना इश्टांनी म्हळें, २७० नंबरच्या पुलिसान म्हजे फाटीर हाता मुठीन मारून अखेर हाता कोंपरांनी मूठ मारली म्हण. तेल लावन एका स्वयंसेवकान मालीश केलें. पूण णव कडेन एक रुपयाच्या नाण्या येद्या आकाराचो कुडको वत लागून काळो जावंचे भाशेन उरला म्हण सांगलें.

म्हाका तीन म्हयन्यांचे कठीन बंदखणेचो दंड मेळ्ळो. ताका लागून म्हाका कण्णूर सेंट्रल जेलांत बदली केलो. टी. प्रकाशम, बाटलीवाला, ई. मोयतू मौलवी आनी हेरां सयत थंय सुमार ७०० राजनितीक बंदी आशिल्ले.

जेलांत खाण भो वायट आशल्लें. पेजांत पिळेल्ले सोये भाशेन किडी पेंवताल्यो. त्यो पेल्यान काडून आमी जेवताले. भायरची खबर नव्या बंद्यां कडल्यान आमकां मेळटाली. तेन्ना भगतसिंहाक आनी हेरांक गोळार दिल्ले ही खबर कळटकच आमी तीन दीस उपास केलो. हें म्हजें पयलें उपासाचें व्रत आशिल्लें. तिसऱ्या दिसा उदक पिवंच्या वेळार गळो कुटको जालो शें दिसलें.

भारताचे वेगळे वेगळे कडेन सावन आयिल्ले बंदी थंय आशिल्ले. क्रान्तिकार, चांचाळ घडोवन हाडपी, समाजवादी, साम्यवादी, तशे तरेतरेचे आदर्शवादी व्यक्ती. तांचें सगटांचेंय ध्येय भारताचें स्वातंत्र्य. कांय म्हयन्यां उपरान्त गांधी इरवीन संमतीपत्राक अनुसरून आमकां सगळ्यांक मुक्त केले. भायर आयलों तेन्ना खंय वचचें हो निर्णय घेवपाक म्हाका जालें ना. म्हजे सारके कश्ट भोगिल्ले राष्ट्रसेवक जायते आशिल्ले. चडशा जाणांक रेलपास लेगीत मेळूंक नाशिल्लो.

म्हाका दोन उमेदी आशिल्ल्यो. दुसरी उमेद शॉलाची. देगेर द्राक्षाची वाल आशिल्ली खद्दर शॉल म्हाका मिस्टर अचुतन हांणी विकती घेवन दिल्ली. पयली इत्सा – २७० पुलिसाक जिवानशीं मारपाची ! पूण म्हजे कडें हत्यार कांय नाशिल्लें. एक रिवॉल्वर मेळ्ळें जाल्यार ! हांवें भारी इत्सा केली. तो पोलीसकार पाळयम थळार ट्राफीक ड्युटीर रावला हें हांवें पळयलां. तो स फूट उंचायेचो एक राक्षस. हांवें मूठ मारल्यार ताका लागचिना. सुरी काळजाक तोंपूंक जाय. 'अल अमीन' लॉजा सावन एक सुरी हांवें चोरली. ती घेवन वता आसतना मिस्टर अचुतनाक मेळ्ळों. तांणी अजाप प्रगटायलें.

'गेलोना?'

'हांवें म्हळें: 'ना.'

तांणी विचारलें: 'घराक वचून आवय बापायक मेळपा नाका?'

हांवें म्हळें: 'ताचे पयलीं म्हाका एक काम करपाचें आसा.' हांवें सगळी खबर सांगली. तो म्हाका मानांचिराक (तळ्यालागीं) घेवन गेलो. भो शांततायेन विचारलें: तुमी सत्याग्रही न्हय? मागीर गांधीचे दांत कशे गेल्ले ती खबर तांणी म्हाका सांगली.

'अशें जिवानशीं मारचें जाल्यार जिवंत रावपाक योग्य असो एकलो लेगीत पुलीसकारी आयज ना. आयच्या सरकाराचे टाळपाक जायनाशिल्ले एक घटक आसात पोलीस. ते सरकाराचे उपकरण मात आसात. ते भोव दुबळे. तांचेर आरोप करून कितें फळ? शांत जा. घरा वच.'

अचुतनबाबानच म्हाका गाडयेर चडोवन धाडलो. अंचीकमळ आयलों. मुस्लीम हॉटेलांत एक म्हयनो रावलों. घरा वचपाक लज. निराशा, दुख्ख आनी आळसाय! अखेर, एके राती बोटीर चडून हांव वायक्कम शारांत पावलों. थंय सावन तलयोलपरम्पू गांवांत चलून गेलों. चार पांच मैल वाट आसा. गंभीर काळोख. सोरोप आनी हेर आशिल्ली वाट. श्रुवेलिकुन्नु थळा लागीं एक आंब्या रुखाच्या खांद्यार एक मनीस गळफांस घेवन मेल्लो आशिल्लो. रातिचीं तीन वरां जालीं. हांव घरच्या आंगणांत पावपाक 'कोण तो?' असो म्हजे आवयचो आवाज आयलो. हांव वरांदार चडलों. आवयन दिवो जळयलो. जशें कांय घडलें ना तशें म्हाका विचारलें:

'तुवें कितें खालें रे पुता?'

हांव चुप रावलों. हांवें सुसकारो सोडलो. लोक सगळो न्हिदला. म्हजी आवय मात न्हीद खळून जागरूक बसल्या. उदक एक टोंटीदार आयदनांत हाडून दवरून, आवयन म्हाका हात पांय धुवूंक सांगलें आनी शिताचें आयदन लागीं दवरून दिलें.

दुसरें कांय विचारलें ना.

म्हाका अजाप दिसलें. हांव आयज येतलों म्हण आवयक कशें कळ्ळें?

आवयन म्हळें: 'ओ... शीत आनी नुस्त्याची कडी करून सद्दां रातची हांव तुजी येवंची वाट पळयत रावतालीं.'

म्हत्व नाशिल्लें एक निवेदन. हांव येवंक नाशिल्ली एक एक रात आवय जागी रावन म्हजी वाट पळेत रावताली.

वर्सां मागिरूय सरलीं. जिवितांत जायत्यो घडणुको घडल्यो.

आवय आयजूय पुताची वाट पळेत बसल्या.

'पुता, आमकां तुका चिके पळोवपाक जाय.'

***

# नंद्दालो पोर हो...

(नववी खिस्त)

**सुमन्त केळेकार**

पाळ्ळे म्हजें आजोळ. तेन्ना पाळ्ळी हो गांव सांखळी कोंसेल्यांत येतालो. आजय तो थंयच आसा. पूण कोंसेल्याचें मात नांव बदल्लां. तें जालां दिवचल. म्हज्या भुरगेपणांत ह्या म्हज्या आजोळा वतलो जाल्यार दोंगुल्ल्यो माड्डीत, कांटेरी झोंपां वाटयत, पांयवाटेन चलत रावन तिश्टतायेन, आतां येता, मागीर येता करीत, एक फावट घर दिसता हाची वाट पळेत वचचें पडटालें. ही वाट आंबेगाळच्यान फुट्टाली. गांवांत पावसर सगळो वाटार दोंगरी. दोंगरी झोंपांनी कुचकुचीत भरिल्लो. अदीकसार झोंपां कांटयारीं. कांय कडेन आंसाळ्यांचीं. कांटे नाशिल्ल्यान तांकां तेंकून वचपाक भिरांत दिसनासली. मदीं खंय अशी किनळ, माट्ट सारकी दोंगरी रुखावळ खांदे फांकोवन फिशालकायेन धोलिल्ली नदरेंत भरताली. हे वाटेन वचून वेळार घरा पावप नवख्या मनशाक सोंपें नासलें. सांगाताक कोणूय जाणा जाल्लो मनीस नासल्यार घाताक पडपाचें. आनी घर लागीं पावताशें जालें की जळामळा रुखावळिचें सरुपच बदलतालें. दोंगुल्ल्यांच्या कडांनी वशिल्लीं काजिचीं ल्हानव्हड झाडां, आंब्याचे शेकानशेक पसवल्ले रूख, दोन दोन वांवांत पेलना इतले रुंदायेच्या काणांचे चांटे पावलाक उबे आशिल्ले पणस, पेरी, आंतेरी असली फळफळावळ दिवपी गिड्डीं तशीं लांबचेलांब झाडां हांणीच पुराय आसमंत गजबजिल्लो. घरा लागसार पावता म्हळ्यार भोंवतणीं पसवल्ले फुलावळिचो घमघम आजोळच्या घराक परमळीत करून उडयतालो. त्या परमळान आजोळच्या घरांत पाविल्ल्याची आपशींच जण एकाक जाग येवंक लागताली.

पिरवोळ आनी पाळ्ळी हांची लागशिकाय खूब पुर्विल्ली. पाळ्ळेच्या दळव्या घराण्यांतल्यो कितल्यो तरी चलयो पिरवोळच्या घरांनी सुनो म्हण आयल्यो तश्यो नंदल्यो आनी पिरवोळच्या केळेकार आनी पिरवोळकार घराण्यांतल्यो कितल्यो तरी चलयो पाळयेच्या दळव्यांगेर पावल्यो हाचो हिशेब लावंक बसल्यार एक जंत्रीच तयार करची पडटली. पिरवोळ पडटा फोण्या म्हालांत जाल्यार पाळ्ळी सांखळे वाटारांत. अशें आसुनय पिरवोळच्या पिरवोळकारांचो आनी केळेकारांचो पाळयेच्या दळवी कुटुंबा लागीं लग्न संबंद इतलो आयिल्लो दिसता की ताचें अजापच करपाचें. पिरवोळा साकून पाळ्ळे वतलो जाल्यार एका काळार पांयांचेंच बरें मागून वचचें पडटालें. आनी दळव्यांक मंगेशाच्या दर्शनाक येवचें पडलें जाल्यार एक तर माचुलांत बसून ना जाल्यार पावलां मेजीत वाट कापची पडटाली. अशीं हीं दोन तोंकां कडलीं दोन ठाणीं. आनी दोन घराण्यांतलो हो घराबो कितें आयचो कालचो न्हय. चार पांच पिळग्यां सावन चलत आयला म्हळ्यार जाता.

१९३३ सालाक उसगांवचो पूल आलतड पलतडचे येरादारीक उकतो जालो. ताचे पयलीं फोणेंच्यान पाळये वचपाक कामिन्यांवांतल्यान पयलीं उसगांवचे न्हंये कडेन वचचें पडटालें. थंयच्यान तारीन पलतड मारची पडटाली. आनी मागीर आडवाटेन पाळ्ळी गांठपाची. पिरवोळच्यान वचूंक सोदतल्याक मात येदो हो घुंवडाळो घेवपाची गरज पडनासली. वेव्हारांतली भुमिती ताच्या आधाराक पावताली. पिरवोळच्यान खंयचे तरी दोंगरी वाटेन, आतोडां दोंगरा-सडे माड्डीत, देंवणां देंवन तो वाटे वाटसरू वागुर्मेचे वाटेन खाजनांत पावतालो. खाजन काडिनाफुडें ताका न्हंय दिसताली. थंयचे तारीक 'पावशी तार' म्हणटाले. तारयामामाक कुलो घालून आपोवचो पडटालो. एक फावट तारींत बसकण मारली की म्हादय न्हंयचें सुमार अर्द मैल रुंदायेचें पात्र हुपून तार पाळ्ळी गांवचे देगेर नांगर तोंपताली. हे भशेन पिरवोळच्यान पाळ्ळे वचपाक फांतोडेर भायर सरिल्लो मनीस दनपारच्या वोता कडार दळव्यांच्या घरा जेवणाक पावतालो. पूण न्हंये वयली ही सगळी करामत कितें काय म्हळ्यार, गिमा दिसांतूच चलताली. पावसांत थंडसाणेन व्हांवपी हीच न्हंय रुद्रावतार घेवन येत्यावत्याक भयभीत करताली. आकांतान आंग थरथरायताली. धाडस करपाचो प्रयास करपी मनीस सोमतोच मांडवी न्हंयच्या पात्रांत घुंवड्यो घेत घेत अखेरेक कोणाकच जागमूग लायनासतना मोन्यांनी दर्यांत विसर्जन पावतालो.

हांवें म्हज्या आवयवटेनच्या आज्याक केन्ना पळोवंक ना आनी आज्जेकूय ना. विशामा म्हळ्यार विश्वनाथ हो म्हजो मामा जल्माक आयलो आनी तो ल्हान आसतनाच खंय आमचे आज्जेन दोळे धांपले. आजो मंगेशबाब हाचेंय तशेंच जालां जातलें. तो काळच असो आशिल्लो की कसली तरी रोगाची धाम येताली आनी ती कसली तें कळचे पयलीं बलायकेन बऱ्या आशिल्ल्या लेगीत जायत्या जाणांचो जीव घेवन आयली तेच तरेन ना जाताली. येतालें तें संकश्ट तांच्या बायलांचेर आनी भुरग्याबाळांचेर. आनी तातुंतच फुडलें सगळें जिवीत सारपाचें तांच्या अद्रुश्टांत येतालें. म्हजो आजोय असल्याच एकाद्र्या रोगाची लागण जावन खूब ल्हान पिरायेर भायर पडला आसतलो. ना म्हळ्यार तो संवसारांतलो ना जालो त्या वेळार ताका पांच भुरगीं आशिल्लीं. तीग पूत आनी दोगी धुवो. निमाणो पूत विसो सामकोच ल्हान आशिल्ल्यान ताची जतनाय घेवन ल्हानाचो व्हड करपाचो भार आपशींच भांवडांचेर पडिल्लो. पुरत्यांत मावशेचेर. आमी तिका आतें म्हणटालीं. आपणाले भाव कर्तुत्वी जावचे पयलींच आवयबापूय भायर पडले, तेन्ना तांकां बरे भशेन वयर काडून नांवारुपाक हाडपाक जाय हे खातीर ती धडपडटाली. फुडें तिचें लग्न जालें आनी ती कुडचडकारांगेर पावली. तिचो घोव म्हादेवबाब रेल्वेंत सिर्विस करतालो. बरो बोलको आनी आयिल्ल्या गेल्ल्याक पावपी. हांसत्या तोंडाचो. आपणाल्या मेवण्यांक जाता ते परीन आधार दिवन तांचे संवसार उबे करपाच्या कामांत तो इल्लोय फाटीं रावलोना. व्हडलो मेवणो चिका हाका रेल्वेंत चिकटायलो. मदलो आनंद पाळ्ळेच्या मूळ घरांत भाटां-बेंसां पळोवंक रावलो. तिसरो विश्वनाथ हो मडगांवांच व्हडल्या भावागेर रावतालो. तो सिर्विस करपाचे पिरायेचो जायनाफुडें ताकाय रेल्वेंतूच कामाक लावपा खातीर भावोजीन जायते प्रयास केले.

उरली ती एकली धूव, तुळशी. पूण तिची खबर आयकल्यार तें एक अजापच म्हणचें पडटलें. आवयबापायच्या मरणा उपरान्त तिचो आनीक

भार भावंडांचेर पडचो न्हय हे खातीर तिची आवयची आवय बाय, हिणें तुळशीक पिरवोळा कोनेंच्या आपणाल्या घरांत हाडली. आनी थंयच तिचो सांबाळ करून तिका वाडयली. अशें सांगतात, की तुळशीन आपणालें पाळ्ळेचें घर केन्ना पळेल्ल्याची तिका याद आशिल्ली काय कितें हेंच तिका सांगूंक येवचें नासलें, इतली ती घरापासुनच ल्हानपणांत सावन तुटून पयस गेल्ली. तिची आवय कोनेंच्या पिरवोळकारांली धूव. ती इतली गोरीपिट्ट आशिल्ली की त्या गोरेपणाक लागुनच तिका अपुर्बायेचें नांव पडिल्लें 'गुटल'. गुटल म्हळ्यार धव्याफुल्ल सुताधाग्याची गुटली. पूण घरचें नांव आशिल्लें लक्ष्मी दळवी. आवयचोच रंग घेवन तुळशी जल्माक आयिल्लें. वाटकुळ्याच रुपाचें, गोरेंपान आनी आंगलोटानय गुडगुडीत. गोरींपान बायलमनशां चडश्या जाणांक सुंदर सोबीत दिसतात, तशें जाल्ल्यान तुळशीच्या लग्नाक कसल्योच कटकटी उपरसल्यो नात आनी उतर घालां थंयच धरलें. घारुबाबाची घरकान्न म्हण वाजत गाजत ती केळेकारांल्या घरांत स्थानापन्न जाली. तिच्या रुपारंगाचो वारसो घेवन तीग पूत आनी एक धूव जल्माक आयलीं तांतलो हांव एकलो अशें तिका पळेल्ले सगळेजाण सांगतात. तिगेल्या लग्नाचो सुवाळोय कोनेंच्या पिरवोळकारांल्या घरांतच जाल्लो अशें आयकल्ले वरसून कळटा.

कथेंत उपाख्यान येता म्हणटात तशी कोनेंच्या पिरवोळकारांची थोडे भितर खबर हांगा सांगलेबगर रावं नज. कोनेचें काकाबाबालें घराणें म्हळ्यार दुसरे तिसरे कोण नासून पिरवोळच्या पिरवोळकारांल्या घरांतलींच तीं मनशां आशिल्लीं. पिरवोळच्या मूळ घरांत वाडट्या घराब्याक लागून जागो पावना जाल्ल्यान १८६०-६५च्या सुमाराक थंयचेच दोंग सवतभाव उठले आनी अर्द कोसभर अंतराचेर कोनेंच्या वाड्यार आशिल्लें एक भाट विकतें घेवन थंय वचून रावपाचें तांणी थारायलें. त्या कुळागराचे वयले वटेन मुळची भाटकान्न एक परबीण रावताली. तें घर हांकां रावपाक मेळ्ळें आनी तेन्नाच्यान ह्या पिरवोळकारांचो संवसार थंय फुलूंक फळूंक लागलो म्हळ्यार जाता. हे दोग सवतभाव म्हळ्यार एक जीवोत्तम, आनी दुसरो काकाबाब. सवतभाव आसुनय दोगांयचे संबंद भावा भावा सारके जिवाभावाचे आशिल्ले. इतले की तांचें एकूच कुटुंब जाल्लेवरी ते रावताले. जीवोत्तमाक सगळो लोक जितुबाब म्हण वळखतालो आनी नागेश नांव आशिल्ल्या दुसऱ्या भावाक काका जावं काकाबाब म्हण पाचारताले. सदाशिव ह्या मूळ घरपुरसाचे ते दोग पूत. जीवोत्तम पयले बायलेचो जाल्यार दुसरे बायलेचो काकाबाब. जितुबाबाक सदाशिव नांवाचो एक पूत आनी दोगी धुवो: सोयरू आनी गुटल. सोयरूक धाकुटपणांत लग्न करून घन:शाम कैसऱ्याक दिल्लें आनी गुटल जाल्ली पाळ्ळेच्या मंगेश दळव्याली घरकान्न. गुटलाक लग्ना पयलीं चेऊ ह्याय नांवान वळखताले. हेंच गुटल जावं चेऊ ही म्हजी आजी, आवयची आवय. हे वटेन सदाशिवागेर चौग पूत आनी दोगी धुवो जाल्यो. बाळकृष्ण, जयवंत, श्रीपाद आनी बळवंत हीं पुतांचीं नांवां. जयवंत होय पाळ्ळेच्या दळव्यांचो सोयरो जाल्ल्यान ताणेंच म्हजे आवयची सोयरीक केळेकारांगेर करपाचें रायबारीपण केल्लें म्हणपाचें कांय जाण सांगतात. आनी निमाणें, श्रीपादबाब आनी बळवंतबाब हांकां तर म्हज्या भुरगेपणांत हांव लागशिल्ल्यानच वळखतालों, तांचेलागीं आपलेपणान उलयतालों, करतालों.

काकाबाबाचें लग्न जालें तेन्ना ताची बायल आशिल्ली फकत ९-१० वरसांची. ती १८ वरसांची आसतना तिगेर पयलें अपत्य जालां. ताचें नांव आशिल्लें शांबा. उपरान्त तीन तीन वरसांच्या अंतरान पांच भुरगीं जालीं. तांतल्यो दोन आसल्यो चलयो, तिरवीण आनी माणकू. तिसरें अपत्य आसलो चलो. ताचें नांव विनायक. विनेबाबान 'देमांद महात्म्य' हें विडंबन बरोवन गोंयच्या मराठी साहित्यकारांत आपलें नांव नोंदयलें. जाल्यार वळेरींतल्या चवथ्या भुरग्यान इतिहासाचेर संशोधन करून नामनेचो इतिहास संशोधक म्हण महाराष्ट्रांत कीर्त संपादन केली. ताचें नांव अनंत. अनंतबाबाक आज आख्खो महाराष्ट्र अ.का. प्रियोळकर, एक खांपो इतिहासकार आनी संशोधक म्हण वळखता. निमाणो पूत यशवन्त हाणें पुराय जीण गोंयांतच ल्हान व्हड वेवसाय करून सारली. कोनें वचून राविल्ल्या पिरवोळकारांचो म्हज्या घराण्या लागीं कसो आनी कितलो संबंद आयला तें सांगपा खातीर हें इतलें कथन करप गरजेचें दिसलें.

पाळ्ळेंत पुर्विल्ल्या काळा सावन पिळग्यांच्यो पिळग्यो रावपी कोण म्हळ्यार ते एक दळवी. तांचीं चौपेटिचीं आनी वयर माळयो आशिल्लीं एक सोडून तीन घरां लागीं लागसार आशिल्लीं. गांवांतले व्हडले भाटकार म्हणटात ते एक दळवी. दळवी सोडून दुसरेय लोक थंय रावताले. तातूंत मुखेल आसलीं तीं धोंड हांचीं घरां. ते भायर भावे, बर्वे ह्या भटांचींय घरां वाड्यार शिंपडिल्लीं दिसतालीं. आनी उरतां उरिल्ले ते पुराय गांवस लोक. हे गांवस कुळागरांतलें जावं, शेतां-मड्डांतलें काम वगळून हेर तरेचीं सगळीं कामां करताले. गांवांत चडशीं शेतां-कुळागरां धनयाचेच नदरे खाला आशिल्लीं. आनी तांतल्या कामा खातीर तोल्ला सावन गावडे जावं मानाय हांकां दिसवाड्याक हाडून तांचे कडसून हे भाटकार कामां करून घेताले.

दळव्यांचें निगळांत आसा तें घर हें म्हजें आजोळ. दुसरें घर भौशें हांगासल्लें आनी तिसरें अंतरशेचें. निगळांतल्या घरांत त्या काळार रावतालीं तीन कुटुंबां, भौशेंच्या घरांत पांच जाल्यार अंतरशें हांगच्या घरांतली म्हत्वाची व्यक्ती म्हळ्यार विनो दळवी. भौशेंच्या घरांतलोच गंडा दळवी हाणें मूळचें भौशेचें घर सगळ्यांकच पावना जाल्ल्यान त्या घराच्या लागसारूच आपणालें वेगळें घर बांदिल्लें. हे सगळे दळवी पयलिंचे एकाच घरांतले जाल्ल्यान ते भजताले तो देव एकच आसलो, मंगेशींचो मंगेश. ते भायर ते एकामेकांचे दायजी जाल्ल्यान सोयरसुतकांतल्यान तांची सुटका नासली, आनी आजूय ना. इतलो तांचो पयलीं सावन लागिंचार.

निगळांतल्या घरांत म्हज्या आज्याच्या कुटुंबांतलो आनंद हो एकलोच मामा थंय रावतालो. व्हडलो मामा चिका रेल्वेंतले नोकरे निमतान रेल्वे भशेन हांगा थंय भोंवडेर आसतालो. ताच्याच बिराडार धाकलो विश्वनाथ रावतालो. थंय रावन तो शिकतालो. आनी ताका एक व्हडलो नाद लागिल्लो तो म्हळ्यार व्यायामाचो. मडगांवां रायकार बी ताच्या वांगड्यां बरोबर आखाड्यार वचून तो कुडी कसरतिच्यो तालमी घेतालो. भुरग्या वयारच ताणें आंग इतलें कमायल्लें की ताचे मसल, मागीर ते हातांचें आसूं पांयांचे पोटाचे, पळेनाफुडें आमी भुरगीं अजापीत जातालीं. मनीस बऱ्याक खुबच बरो, पूण राग आयल्यार सामको खुबिल्लो देंवचार. पूण भुरगीं ताका जिवापेलेकडेन जाय आशिल्लीं. तांची तो पोट फुटसर माया करतालो. आमगेर पिरवोळा तो जेन्ना जेन्ना पावला तेन्ना आमकां भुरग्यांक घेवन तो नाच नाच नाचला. म्हाका आजूच घडिल्ले वरी ताची एक अशी फाटली याद जाता. ते दीस आशिल्ले स्रावणांतले. विशामा कांय दिसां खातीर भयणी म्हऱ्यांत रावंक आयिल्लो. विसो म्हळ्यार सामके भुरगे पिरायेर आवयबापायच्या मोगाक फटवल्लो पारखल्लो. ताका लागून ताचेर दोगूय भयणींची माया म्हळ्यार पोटच्या पोरा सारकी आशिल्ली. विशामाचे हांगा आमगेर सामके मजेंत दीस वताले. सकाळीं उठचे उठून तो

पयलीं व्यायामाची संवकळ करतालो. आमी तें पळोवन चकासूर जाताले. ताचे वरी आमीय व्यायाम करचो आनी घटमूट जावचें अशें आमकां दिसतालें पूण तें जुळून येवंक केन्ना पावलेंना. येवजिता तशें सदांच जाताच अशें ना. पूण एक खरें, विशामाचे ते कसरतिचे प्रयोग पळोवन आमकांय चेव येतालो. सांजचे आमी खंय तरी भोवंक वताले. एक दीस म्हाड्डोळा म्हाळशे देवळांत, दुसऱ्या दिसा मंगेशीं, उपरान्त नागेशीं, महालक्ष्मीक हे भशेन भोंवले बगर एकय दीस फुकटो गेलो ना. आनी हें सगळ्याक वचप तें पांयांनी चलत. त्या काळार मोटारिंचो सुळसुळाट नाशिल्लो. वेळ सत्कार्याक लायतलो जाल्यार हातापांयांचे घटसाणिचेरच पुरायेन निंबून रावंक जाय हाची शिकवण आपशींच मेळिल्ली.

तो स्रावणी आयतार आशिल्लो. त्या काळार स्रावण म्हयनो म्हळ्यार घरांत देवस्पणाचेंच वातावरण आसतालें. दर आयतारा आयतार पुजून जेवणाक कितेंय तरी गोड पोळी पक्वान्न आसतालें. त्या दिसा शिरवळ्यो करपाची तयारी चलिल्ली. आवय सकाळचें जेवण अनवाळी रावन करताली. विशामा सालांत आपणालो व्यायाम करून मेकळो जाल्लो. उपरांत चौखेर वचून थंय आमचे बराबर तो चकाटांक बसपाचो आशिल्लो. हेवटेनच्यान चौखेर वतना मदीं वासरी लागता. थंय ताका आमचे आवयन आडावन म्हळें, 'विशा, म्हजें एक काम तुवें करूंक जाय. ह्यो शिरवळ्यो काडपाक आमकां भोवच कश्ट पडटात. तुवें मनार घेतल्यार तें काम रोखडेंच जातलें.' विशामान म्हळें, 'कितें करपाचें तितलें म्हाका सांग, मागीर फुडलें तूं म्हजेर सोड.' अशें म्हणटां म्हणटां ताणें हाताचे मसलय मातशे फुगोवन घसघस हालोवन दाखयले.

'हें पळे, हो आसा शिरवळ्यां दांतो. हांव हातूंत ही पिठा गुळी घालतां. तुवें ह्या दांत्याची दाणी वाटकुळीच फिरोवपाची. दांत्या सकल्यान भायर सरतात त्यो शिरवळ्यो ह्या चोळख्यांचेर अचळय पातळावन हांव कडेक काडटां.' इतलें हें सांगून जातकच विशामा वावराक लागलो आनी चोळखो हातांत धरून ताचेर शिरवळ्यो घेवपाचे तयारेन भयण रावली. पूण अजाप म्हळ्यार शिरवळ्यो भायर सरच्या वांट्याचो पिठाचो गुळोच तशा तसो भायर सरलो. आनी सगळ्यांचो हांसून हांसून मुड्डो जालो. तें तसलें बळ काडून करपाचें काम न्हय ही गजाल विशामाक खबर नाशिल्ल्यान ताणें शक्तेचो प्रयोग केल्लो आनी तो अशे तरेन फुकटांत गेल्लो. ताका तें कांयच समजलेंना आनी ताणें म्हळें, 'तुळशी, कितें जालें गो?' 'कांय जावंक ना रे बाबा, तूं वच आतां भायर तुज्या कामाक. आमी काडटात त्यो शिरवळ्यो.'

अशेंच आनीक एक फावट व्यायाम करतां करतां ताणें जनेला कडेन वचून ताच्या दोन वारांवांक घट धरलें. आनी मजेनच ताणें भयणीक म्हळें, 'तुळशी, हांव हे वारांव बागोवन दाखोवं?' इतलें म्हणटा थंय आसा, एक वारांव ताणें मातसो बागयलोय बी. तें पळोवन भयण भियेली आनी वयल्यान वणत बी कोंसळत ह्या भंयान तसलें नाका जाल्लें करून न्हय तें अपसरण नाका म्हण तिणें ताका विनयलें. असलो हो म्हजो धाकलो मामा! म्हाका तो खुबच जाय जाय दिसतालो. ताचे बरोबर आसतना ताचे वरीच म्हजीय छाती फुलल्या अशें म्हाका दिसतालें.

निगळांतल्या घरांतलें दुसरें बिराड हें श्रीपाद दळव्यालें. ताचो भाव नागेश भर तरणेपणांत गेल्ल्यान तागेली बायल आनी काशिनाथ, गोविंद हे दोग पूत त्याच बिराडाक रावंक लागले. फुडें काशिनाथ नोकरे निमतान थंयच्यान शारांनी रावंक गेलो. तो रेल्वेंत कामाक आसलो आनी गार्ड म्हण जिवीतभर वावुरलो. धाकलो गोविंद थोडें भोव शिक्षण जायना फुडें पुण्यांत रावन देहूरोड हांगा आशिल्ल्या मिलिटरी खात्यांत नोकरेक लागलो आनी थंयच ताणें रिटायर जायसर जिवीत सारलें.

तिसरें बिराड तातोबा दळव्याचें. तांची घरकान्न आशिल्ली एका काळार गोंयच्या मराठी साहित्यिकां भितर नांवलोकीक मेळयल्ल्या शांबाराव सरदेसायांची भयण. तिचें नांव आसलें रमाबाय. तिका तीग पूत, वैकुंठबाब, शंकरबाब आनी गणपती. तांतलो गणपती तितलोच आंकवार उरिल्लो. आनी उरिल्ल्या दोगांयचीं लग्नां जावन ते भुरगेबाळकार जाल्ले.

भौशेंच्या घरांत सगळींच पांच बिराडां. शंभूबाब दळवी हाका पिरवोळच्या दत्तू शणै पिरवोळकारान धूव दिल्ली. हरी दळवी हाची घरकान्न ही पिरवोळच्याच पुरशोत्तम केळेकाराली धूव - जनी; पूण फुडें ताका सगळींच म्हणूंक लागिल्लीं गनी. हे दोगूय घरकार वयार आसतनाच खंयच्या तरी सांथिच्या वायटान भायर पडिल्ले. तिसरो फोंडू हाका चौग पूत आनी तिगी धुवो. तांतली व्हडली धूव काडून दिल्ली दत्तुबाबाल्या पुताक, शंभुनाथाक. हांतलें चवथें बिराड हें महादेव दळव्यालें. ताका दोग पूत. पयलो सुब्राय आनी दुसरो दत्ताराम. निमाणें बिराड आसलें श्रीकंठ दळव्यालें.

अंतरशांत दळव्यांचीं कितलीं बिराडां रावतालीं तें जाणा जावन घेवपाची आमकां व्हडलिशी गरज दिसना. पूण त्या घरांतलो विनो दळवी हो मात खुबच धडपडी आसलो. १९३३त उसगांवचो पूल तयार जालो तेन्नाच ताणें ह्या पुलाची पावणी हाडपाचें शाणेपण करून आपणाल्या कर्तुत्वाचें केन्द्र पाळ्ळी सोडून उसगांव केलें. पुलाच्या आंबेगाळी व्हटेनच्या तोंका कडेन ताणें कांय तेंपान एक गिरण घालून आपणालो थोडोभोव व्याप वाडयलो. ताचे उपरान्त मीन काडपाचें काम त्या वाटारांत वाडिल्ल्यान मिनाच्या ट्रकांची येरादारी खुबच जाल्ली. तांकां लागतात ते स्पेअर-पार्ट सोंपेपणी थंयच खाणीकारांक आनी ट्रककारांक मेळचे हे खातीर ताणें पुला वयले एके चाळिच्या घरांत स्पेअर-पार्टाचें दुकान घालें. निमाणें तर डिझेल-पेट्रोलाचीय थंयचे थंय सोय जावची हे खातीर ताणें एक पेट्रोल-डिझेल पंपूय थंय उबारलो. मदल्या काळांत ताणें उसगांवांतच येवन रावपाचें थारावन आपणालें नवें घर बांदलें. इतलें करुनच रावलो ना, तर घरा लागसार एक हायस्कूल उबारपाक जाता ते परीन दुडवांचो आधार दिलो. हे भशेन ताणें आपणाल्या कामाचो वेग आनी व्याप इतलो वाडयलो की तो सगळ्यांचे घोळटुकेंतलो विनेबाब उरनासतना, विनायक शांबा दळवी ह्या नांवाच्यो पाटयो ताच्या ह्या कर्तुत्वाच्या वास्तुंचे भायर झळझळीत झळकूंक लागल्यो. पूण अखेर मेरेन त्या मनशान एका काळार आपूण न्हेसतालो तें आंगोस्तर काडून दवरून वेगळो भेस करपाचें केन्ना मनांत लेगीत हाडलें ना. सुजनताय आनी नमळाय म्हणटात ते गूण त्या गिरेस्ताच्या आंगापांगांत सामके भरसून गेल्ले अशें म्हळेबगर रावं नज. विनेबाब म्हळ्यार काळाचीं पावलां वळखुपी आनी पारखुपी एक अंतर-दृश्ट आशिल्लें व्यक्तिमत्व आशिल्लें. काळ बदलत चल्ला, आमीय ताचे लागीं जुळोवन घेतले बगर आमचो सुटावो ना हें तो मना पासून वळखल्लो. आनी तशें जाल्ल्यान अंतरशेंच्या त्या घरांत बसून भाटकारपण करचे परस नवे व्याप सुरू करून ते तरेन आपलो फुडार घडोवंक जाय अशें ताका दिसलें. व्हडलेंशें शिक्षण पदराक नासतनाय ताणें व्यवहाराचो पसारो येदो वाडयलो की आयज गोंयच्या मुखेल शारांनी V. S. Dalvi & Sons ह्या नांवाचीं आस्थापनां वचत थंय आशिल्लीं दिश्टी पडटात. ताच्या भुरग्यांक आनी नातरांक तांच्या फुडारा संबंदान एक निवळ सुटसुटीत अशी वाट

दाखोवन तो निवृत्त जालो अशेंच येवजिल्यार दिसूंक लागता.

माय म्हयन्याव्रो रखरख सुरू जालो काय ना, शारांनी रावपी भाचरां मेळटा ताचो सांगात घेवन आजोळच्या घरांत म्हयन्या देड म्हयन्याचो राबितो करपाक पाळ्ळे येवंक लागतालीं, पाळ्ळेच्या वातावरणांतच तीं रंगूंक लागतालीं. झाडांवरीच तांकांय आंकऱ्यो फुटल्यात काय कितें अशें पळेतल्याक दिस. दिसूयभर वनस्त्रिच्या सांगाताक रावन तांकां खोशयेचे उमाळे फुटूंक लागताले. विजेच्या दिव्यांचो तो काळ नासलो. रात जाली की ना पेटिल्ल्यो दिवल्यो चौपेटिच्या चारूय कोनशांनी रावन उजवाडाचो शिंवर करताल्यो. सालांनी बी पेत्रोलाचे, कंवचेची चिमणी आशिल्ले दिवे मेजार दवरिल्ले आसताले. गरज लागलीच जाल्यार केन्ना केन्ना एक पेट्रोमास मुखेल चौपेटीर लखलखतालो. काळखांत वचचें पडलें जाल्यार हातांत एक पेत्रोलाचो कवदो घेवन कामां करपाचीं. ह्या असल्या मिणमिणट्या उजवाडांतच एके तरेची प्रसन्नताय दिसूंक लागताली. दिवलेंतले पेटिल्ले वातीक एक्कासारकी नदर लावन पळेतकच तकलेंतलें विचारचक्र कशें घुंवंक लागता ताचो अणभव घेतले बगर सांगून कळपाचें ना. दिवलेंतली ती जोत म्हळ्यार थीर, संथ आनी शांत अशा प्रतिकांचो आदर्श. तिच्यो पांचूय वाती पेट्टात तेन्ना चारूय दिशांक घडटल्या घडणुकांचो साक्षात्कार जावंक पावता. हें दिवलेचें म्हात्म्य त्या काळार दाटून जाणवूंक लागतालें. तिनसांज जावन रातीक भार येवंक लागलो की घरांतलीं मनशां दिसाभरयाच्या कश्टांनी थकिल्लीं आसतालीं. केन्ना एक फावट जेवतां आनी हांतुणार लवंडतां अशें जण एकाक दिसूंक लागतालें. आनी घडटालेंय बी तशेंच. आठ -साडे आठांच्या सुमाराक जेवणां जातालीं आनी धा जावचे पयलींच सगळीं थार न्हिदतालीं. मागीर कोणूय एकाद्रो रसीक जागो उरलोच जाल्यार तो रातकिडिंच्या आवाजांतलो अर्थ सोदूंक बसतालो आनी म्हणटां म्हणटां तेच घुंवळेंत न्हिदेचे आधीन जातालो. सकाळीं जाग येताली तीय खूब बेगीन. स-साडे स जावचे पयलींच उदेत्या सूर्यमामाक येवकार दिवपाक सगळीं जाणां तोंडबीण धुवन तयार रावतालीं.

सकाळीं उठनाफुडें जांकां दुदाची च्या लागता तितल्यांचें पयल्या दिसा हाडून तापोवन दवरिल्ल्या दुदाचेर भागतालें. उरिल्ल्यांक जाय जाल्यार दूद नाशिल्ल्या फुटे च्याचेर भागोवन घेवचें पडटालें. इतल्यांत आठ-साडे आठांच्या सुमाराक काफयेचो वेळ जातालो. ह्या काफये वेळार भाकरी चेटणी म्हणटा तो सदांचो खावपा जिनस आसतालो. भाकरी ही तांदळा पिठाची, सोय मीठ बी घालून चोळख्यार भाजिल्ली आनी तिका लावन खावपाक चड करून हरव्या मिरसांगांची चटणी ना जाल्यार आंब्या-अनसांचो हालवो. ताचेर पियेवपाक आसताली फुटी काफी. पाळ्ळेंत दुदाक मारामार जाताली. थंयचे रयत दूद पियेनासले काय ते गोरवांच पोसनासले, खबर ना. पाळ्ळेंत दूद येतालें तें वेळगेंच्यान. आनी तें पावता करतासर वाजतालीं सकाळचीं इकरा. ताका लागून बामणांच्या घरांनी लेगीत दुदाची च्या पियेवपी खूब थोडे जाण आसताले. सकाळची खावड म्हळ्यार ती पोट भरसर आसताली. मागीर सगळे व्याप सुरू जाताले. म्हजे एके मावशे भयणेन असोच हो विशय आयलो तेन्ना एक फावट म्हळें, 'ते भाकरेची आनी चेटणेची गोडी इतली आसली की अजुनय तिची याद आनी रूच जिबे वयली ना जाल्ली ना.' काफयेचो आनी खाणाचो आक्त सोंपना फुडें घरांतलीं कितेंय कामां आसल्यार तीं करपांत सगळीं बांदून उरतालीं. देखीक पापड लाटप, वोडयो घालप, शेवयो करप, सांडगे करप बी. लोणचेंय करतालीं पूण तातूंत भुरग्या चलयांक हात घालूंक जाणटेलीं दिनाशिल्लीं. माया दीस आशिल्ल्यान पावशा दिसां खातीर हो पुरुमेंत सगळ्याच घरांनी जातालो. खारें बी हाडून तेंय सुकयतालीं. सुटयेंत आजोळा आयिल्ल्या चलयांचो ह्या कामाक हातभार लागतालो. हीं कामां नासल्यार मात तांकां चल्याभुरग्यां वांगडा भायर भोंवपाची मेकळीक आसताली. आमच्या आजोळच्या घरा मुखारच एक पारजत आसलो, ताचीं फुलां पुंजावपाक सकाळीं उठनाफुडें कांय जाणां धांवतालीं. पारजत फुलांचो दरवळ तांकां पिशीं करून उडयतालो. तीच खबर वोंवळांची. वीस पंचवीस पावलांचेर आशिल्ले वोंवळिणी मुळांत वचून कुरपाण्यांत ही रास करून तीं घेवन येतालीं. ह्या फुलांचे पोड करून मागीर दनपार मेरेन ते सगळ्या बायलांच्या आमाड्यांनी ना जाल्यार विणयांचेर लोंबिल्ले दिसताले. तांका लागून तांचो सुगंध घरभर पातळटालो आनी घरा भितरल्या प्रासादाक दरबारी सरूप प्राप्त जालां शें दिसतालें.

हे भायर घरा कडेनच्या कुळागरा लागसार आशिल्ल्या आड्या कडेन पळेल्यार तरेकवार फुलांचीं झाडां आळीन उबीं आशिल्लीं नदरेक पडटालीं. तरांतरांच्या रंगाच्यो दसणी, धव्याफुल्ल अनंताचीं झाडां, कणेरिचीं झोपां, तांबड्या धव्या चाफ्यांचीं झाडां, मोगरेच्यो वाली, कितें आसा आनी कितें ना तें सांगपाक जायनासलें. भर गिमाचो तेंप जाल्ल्यान कितल्याशाच फळांच्या झाडांवेलीं अरळ जाल्लीं फळां वाऱ्यान ठप्प ठप्प करून भुंयेर पडिल्लीं दिसतालीं. पुरत्यांत आंबले घोंटांची जाल्यार ही रास पुंजा जाताली. दनपारच्या जेवणाक घोंटांचें रुचीक सांसव ना अशें केन्नाच जायनासलें. एक दोन तोरंगांच्या झाडांक जाल्यार भोवच रोसाळ अशीं आमट-गोड तोरंगां जातालीं. तीं खाता तितलीं खायन दिसतालीं. वयल्या आतोडांत जाल्यार आंतेरां आनी पोपायांचीं घे म्हण झाडां आशिल्लीं. थंय झाडपिक्यो पोपायो आत्र्या पयऱ्यान घरचो मानाय काडटालो. घोंटांच्या सांसवां वरीच केन्ना केन्ना अनसांची करमय दनपारच्या जेवणाक आसताली. माया दीस म्हळ्यार घऱ्यांचो आनी आंब्यांचो सुकळ. पणसाचीं झाडां कितलीं आशिल्लीं तें सांगप सोंपें नासलें. वचत थंय पणसच पणस. घरचीं बायलां ह्या पणसाचे कितलेशेच पनवार करतालीं. कुंवले आसतना तांचो चाखो जातालो. कुंवल्यांत घरे धरना फुडें ते मेकळे काडून ताची घरय करतालीं. हींग बी घालून सांसवांची फोडणी दिल्ली ही घरय म्हळ्यार एक आवडिचोच जिनस आसतालो. दनपारां इकरा साडेइकरांच्या सुमाराक जेवतालीं ते पेजेच्या वेळार जाल्यार घरय जावं घरे घाल्लें तोंडाक सगळीं जाणां आवडीन खातालीं. पिकिल्ल्या पणसांची जाल्यार दिसूयभर रगड जाताली. रसाळ तशे कापे घरे. बऱ्या घऱ्यांचीं पणसुलां खंयच्या झाडांक लागतात तें सगळींच जाणां आसलीं. खावपाचीं अशीं रसाळ पणसुलां कांय थोड्याच पणसांक लागतालीं. तांतलो एक पणस आसलो गुलाबो ह्या नांवाचो. तांतले घरे गुलाबी रंगाचे आसताले आनी खुबच मधूर आनी म्होंवाळ आसताले. बसकेक एक-दोग जाण एक पणसूल थंयचे थंय खावन सोंपयताले. तो पणस खुबच रुचिचो जाल्ल्यान सुटयेंत गेल्लीं भुरगीं ताचेच यादीन सामकीं तळमळटालीं. केन्ना एक फावट त्या पणसाचीं पणसुलां पिकूंक लागतात अशें तांकां जातालें. पणसुलांच्या तेंपार सकाळीं जावं सांजचें खावपाक पणसाचें म्होंव काडून धोणस तयार केल्लें आसतालें. तीच गजाल आंब्याची. गार्फांवयले आंबे काडून ते सुक्या तणांत पिकूंक घाल्ले आसताले. पिकता तशे काडून सगळ्यांच्या जेवणाच्या पानार ते पेसून दवरतालीं.

वेळ मेळटा त्या वेळार, सुटयेंत आयिल्लीं भुरगीं कुळागरांनी भोंवत रावतालीं. कुळागरांत नागचाफ्याचो एक मोट्टो रूख आशिल्लो. त्या चाफ्यांचो

घमघम सगळ्या वाटाराक परमळावन सोडटालो. मदीं केन्ना केन्ना कणकिंनी भोंवन नारायण हो घरांतलो मानाय हाते घेवन येतालो. हात्याची ओड बायलांक, चलयांक सगळ्यांकच सारकी आसताली. कुळागरांत एक जांबाचें झाड आसलें. ताचे जांब म्हळ्यार आमट-गोड अशे एके वेगळेच रुचिचे. मोव, बुकबुकीत आनी खायन खायन दिसपा सारके. ताप जाताली तेन्ना ते खावन तान भागताली. नारायण फावता तेन्ना झाडाचेर चडून ते काडून दितालो.

सकाळच्या पारा आजोळा आयिल्ल्या भाचरांची एक ओडलायणी कार्यावळ दर दिसा चुकनासतना पार पडटाली आनी ती म्हळ्यार लागींच व्हांवतले न्हंयेच्या पाणठ्यार वचून थंय वरांचीं वरां पेंवत रावपाची. म्हादय न्हंयेच्या उदकांत न्हावपाची संद एकलोय सोडनासलो. कांय जाण जाल्यार पाळ्ळे न्हंयेच्या उदकांत धुडगूस घालपा खातीरच वताले म्हळ्यार जाता. इतली त्या व्हांवत्या उदकाची तांकां ओड आशिल्ली. म्हज्यो दोन मावशेभयणी जाल्यार त्या उदकांत पेंवंक लेगीत शिकिल्ल्यो. बारा तेरा वरसांच्यो चलयो खऱ्यो, पूण पेंवपांत सामक्यो फिशाल जाल्ल्यो. हे न्हंयेचेर वचपाच्यो दोन वाटो आसल्यो. तांकां 'देंवणे' अशें म्हणटाले. एक आशिल्लो निगळांतलो देंवणो. हो आमच्या आजोळच्या घरा लागसारचो. आनी दुसऱ्याचें नांव आसलें 'भाऊ धोंडालो देंवणो'. हो भौशेंकारांक लागीं पडटालो. न्हंयचेर वचपाच्यो वाटो म्हळ्यार हे देंवणे. ती न्हंय तशी गिमाच्या जावं शिंया दिसांनी खोल अशी उदकान भरिल्ली नासताली. पाळ्ळे व्हटेन दोन चार कोणी सोडल्यार न्हंयेंत छातीभर लेगीत उदक नासतालें. उदकांत रावन भितर नदर मारल्यार जमनी वयर पातळिल्ले शेंकरे निवळ बरे दिसताले. कोणींनी मात थाव लागनाशिल्लो. पेंवंक येता तोच कोणीं व्हटेन फिरकतालो. बाकिचे थाव जावपी उदकांत उमथे पडून हात पांय बडय बडय बडयताले आनी पेंविल्ल्याचें समाधान मेळयताले. न्हंयचेर पेंवंक दनपारच्या इकरां उपरांत सगळीं जाणां वतालीं. मदल्या वेळा वयली पेज बी जातकच न्हावपाचो बोवाळ सुरू जातालो. आमच्या आजोळचीं मनशां निगळांतल्या देंवण्या वयल्यान न्हंयचेर वतालीं आनी भौशेकार दळव्यांचें घरचे आनी सोयरे, भाऊ धोंडांल्या देंवण्या वयल्यान न्हंयचेर पावताले. एक दीस अशें जालें की भौंशेच्या दळव्यांले कांय जाण निगळांतल्या देंवण्या वयल्यान न्हंयंत न्हावंक गेले. तातूंत एक आसलो मधुकरआप्पालो पिरवोळचो भाचो रमाकान्त, ताचो ताचेच पिरायेचो मामा नरेन्द्र आनी हेर दोग तीग जाण. निगळांतल्या घरांतले दोग दळवी म्हळ्यार गोविंद आनी दुसरो विसो, तशेंच मनोहर हो भाचो आनी दोगी तिगी भाचयो. हीं आजोळचीं मनशां थंय न्हावंक गेल्लीं. रमान न्हातां न्हातां मदींच कोणी म्हऱ्यांत उडकी मारली आनी तो पांय जमनीक लागना जाल्ल्यान बुचकळ्यो मारूंक लागलो. ताका तसो पळेनाफुडें बरोबर गेल्ल्या नरूमामान ताका ओडून काडपाक उडकी मारली. नरूक व्हडलेंशें पेंवंक येनाशिल्लें. तशें जाल्ल्यान रमा ताच्या हाताक लागना जालो आनी गेल्लो तसोच तो परतो आयलो. उदकांतच रमाचें तोंड बुडिल्ल्यान तो हात हालयत बोबो मारूंक लागिल्लो. इतल्यांत गोविंदमामान काय कोणें वत्सलाक म्हळें, 'आगो वत्सल, तूं पेंवंक तर तरबेज जालां आनी उकत्या दोळ्यांनी त्या बुडटल्या भुरग्याक तूं पळेत रावलां? चल, मार उडी आनी काड ताका भायर.' वत्सल सगळेंच बारा तेरा वरसांचें आनी रमा धाएक वरसांचो. वत्सल आनी येवजूंक बसलें ना. घसायंच करून मारली ताणें कोणींत उडकी आनी रमाच्या एका हाताक बचक मारून पेंवत तें ताका घेवन न्हंयचे धडेर आयलें. इतल्या वेळांत रमा खुबच उदक पियेल्लो. सगळ्या दादल्या भुरग्यांनी ताका उरफाटो केलो आनी नाका तोंडांतल्यान पोटांत गेल्लें सगळें उदक एक फावट भायर काडलें. इतल्यान तो साबुद्दीर आयलो. हें रमान केल्लें नावरूप कोणेंच कोणाकच सांगचें न्हय अशें थंय थरिल्लें. अशें आसतना दुसऱ्या दिसा कोणें तरी मधुकरआप्पाच्या घरा वचून ही घडिल्ली खबर ताच्या कानार घालीच. भाच्याक ताणें तापोवन काडून न्हंयचेर वचपाचो त्या दिसाच्यान बंद केलो खरो पूण बारा वरसांचे चलयेन ताका मरणांतलो वाटायलो तिचें कवतूक करपाचें मात कोणाकच कशें भान उरलेंना, हाचें अजाप करीन दिसता.

देड दोन वरां म्हादय न्हंयच्या त्या बलायकी दिवपी उदकांत न्हायनाफुडें पोटाक जी चुरचुरीत भूक लागताली तिका तोड ना. घरा वता आनी केन्ना पानार बसता अशें जातालें. आजोळच्या जेवणाचो आक्त सामको सादो आसतालो. थंय चड करून त्या काळार नुस्तेंच मेळनासलें. हाडलें जाल्यार तें दुसरे कडेन गेल्ल्या घरच्या मनशान येतना हाडपाचें. पूण एक गजाल मात खरी की बाराय म्हयने थंय खुब्यांचो पुरवठ जातालो. जेवणांत दुसरें कांय नासलें तरी खुबे आसतालेच. खुब्यांचें तोंडाक, तांचीं कालवां काडून केल्लें हुमण, कालवांचे दांगर, कालवां आनी आमल्यो घालून केल्लें आमट तिखट दबदबीत अशो जायत्यो तरा करतालीं. ना जाल्यार खारे बांगडे वा सुकीं सुंगटां. हें इतलें मेळ्ळ्यार जित्या नुस्त्याची याद लेगीत जाय नासली. जेवणांत एक तरी पालोभाजी आसतालीच. तीय थळावी, आतोडांत वा कुळागरांत मेळटा असली. आळवा भाजी, लुती भाजी, मसंगा भाजी, कुडडुकेची भाजी, तांबडी भाजी अशी जायत्या पतिंची भाजी, साळगें ही घरची वावराडीच अशीऽ भोंवड मारून खुडून घेवन येताली. ही इतली जिती-जिवी भाजी मेळटकच बाजारांत मेळटाली ते तोडून दोन दोन तीन तीन दीस जाल्ले भाजयेक मोल तें कसलें? ते भायर आत्र्यापयऱ्यान खतखतें हें आसतालेंच. शिताचे तांदूळ घरच्या भाताचे जाल्ल्यान ते तांबडेगुंज आसताले आनी तातूंत करड आशिल्ल्यान ते गोड आनी रुचीक लागताले. शीत कालोवंक दाळचो कांद्याचो जावं तेफळाचो शिवराक रोस हो सप्तकांत दोन दीस तरी आसतालोच. ते भायर वोडयां आम, आमाड्यां उड्डमेथी, हरव्या मिरसांगां रोस बी कालवणीं मदीं मदीं केले बगर राव नासलीं. जायत्या फावटी आमाड्यां रायतें ना जाल्यार काराथ्या रायतें केल्ल्यान जेवणांत अदीक रुचीकसाण येवंक पावताली. म्हयन्यांतल्यान एक दोन फावटीं कांद्याचो दाळी रोस करून सुक्या बांगड्यांची किसमूर तोणाकाक केल्ल्यान जेवणाक एक आगळोच रंग येतालो. म्हयनो देड म्हयनो असले तरेचीं जेवणां जेवनूय वीट म्हण केन्ना येवंक पावनाशिल्लो. उफाट्टें ह्या असल्या जेवणाखाणाक लागून आजोळा आयिल्ल्या भुरग्यांची बलायकी बेस बरी सुदारिल्ली दिसताली.

सांजच्या वेळार विशामा वाड्या वयल्या भुरग्यांक घेवन धाटीर वतालो. थंयच्या दोंगुल्ले वयल्या सड्याक धाटी ह्या नांवान पाचारताले. थंय वचून विशामा भुरग्यांक व्यायामाचे प्रयोग करून दाखयतालो. ते पळोवन तीं सामकीं भुल्लुसून वतालीं.

निगळांतलें दळव्यां घर ह्या देडेक म्हयन्यांत सामकें खोशयेन नाचतालें. घरांत सकाळीं उठ पासून रातीं न्हिद मेरेन हांसहांसत सगळीं जाणां दीस सारतालीं. भाचरांच्यो तरांतरांच्यो करामती पळोवन सगळ्यांचीच मन रिझोवणी जाताली. तरेकवार खेळ तर खेळटालींच पूण घरांतले व्हडले चौखेर चादरांचे पड्डे लावन नाटकांचे प्रवेशय बी तीं करून दाखयतालीं. आनी अजाप म्हळ्यार ते प्रवेश पळोवंक दळव्यांच्या दुसऱ्या घरांतलीं बायलां भुरगींय येवन बरे भशेन मजेंत वेळ सारतालीं. भाचरांचो आनी नातरांचो हो सुटये

काळ एक फावट सोंपलो की तें घर तसो पुराय वांटार उकतो उकतो दिसतालो. आनी केन्ना एक फावट दुसऱ्या वरसाचे एप्रील मायाचे दीस येतात हाची सगळींच जाणां तिश्टत वाट पळेतालीं.

म्हजो मावसो रेल्वेंत चाकरेक आशिल्ल्यान बदली जाता तेन्ना पयलें घर सोडून दुसरे कडेन ताका बायले भुरग्यांक घेवन वचचें पडटालें. तशें जाल्ल्यान मावशेक रावता त्या घरांत कोणाय दुसऱ्याचो आधार मेळप त्रासाचें जातालें. तातूंत दिसांची बी आसल्यार मागीर आनीक विचारूंच नाका. हे खातीर बाळांत जावपाची आसा म्हळ्यार तिचेर आकांत येतालो. अशा वेळार तिका आपणाल्या कुळाराची याद जाताली आनी थंयच आपली बरे तरेन सुटका जातली अशें तिका दिसतालें. कुळारच्या मनशांचो तिका आधार मेळटालो. बारीकसारीक कामां करपाक हेर कश्टकारी बायलांय मेळटालीं. हे भशेन म्हजे मावशेचे तीन बाळंतेर खंय पाळ्ळेच जाल्ले. तशें जाल्ल्यान तिच्या भुरग्यांक आजोळ म्हळ्यार एक जिवाभावाच्या मनशांचें घर अशें सदांच दिसत रावलें. म्हजे आवयचें तशें नासलें. भयणीक आशिल्ली तितली कुळारची ओड तिका केन्नाच दिसली ना. पाळ्ळेंच्या घरांत लग्ना उपरांत ती केन्ना पाविल्लीय जाल्यार दुबाव आसा. अशें सांगतात की तिचो घोव तिका खंयच धाडूंक तयार नासतालो. एक तर तो मोट्या भाटकारांत मोडूंक लागिल्लो आनी पाळ्ळे सारके कटकटिचे वाटेन तिका धाडूंक तो भियेतालो, अशेंच जावंक जाय. म्हजे आवयच्या लग्ना उपरांत पयलेच फावट दोगूय भयणी मेळूंक पावल्यो त्यो खंय कुडचड्या वयल्या घरांत म्हजे मावशे भावाचे मुजीक ती गेल्ली तेन्ना. त्या वेळार ती म्हाका आनी मोहनाक घेवन ते मुजीक गेल्ली. तिचें जिवीत तशें पळोवंक गेल्यार सामकें एकसुरें जावन गेल्लें. चार चवगांच्या घरांत रावताली तितलोच कितें तो सहवास तिका घरांतल्या मनशांचो मेळटालो. कुळारचीं मनशां तिच्या वांट्याक केन्ना आयलींच नात. आनी तांचो सहवास सोदपाची तिकाय व्हडलिशी तिश्टत दिसली ना.

पल्लवराजिचे कुशींत, खानापूरच्यान लांबची लांब भोंवडी करीत आयिल्ले म्हादय न्हंयचे देगेर विराजीत जाल्ल्या पाळ्ळी ह्या दोनशें अडेजशें लोकवसतिच्या सुपुल्ल्या वाटाराचेर नदर मारपाची भुरगेपणांत म्हाका एकदांच संद आयली जातली. आनंदमामान म्हाका थंय व्हरून थंयचीं तीं दळव्यांचीं घरां, मंद नाद करीत संथपणान व्हांवता ती थंयची न्हंय म्हाका दाखयल्ल्याची थोडी भोव, अंधूक अशी म्हाका याद जाता. पूण सुटयेंतल्या दिसांनी वचून आजोळच्या घरांत आनी त्या वाटारांत भुल्लुसल्ल्या शेवण्यां वरी पाखाटे हालयत संचार करपाचें भाग्य मात म्हाका केन्नाच मेळ्ळें ना हाची खऱ्यांनीच खंत भोगता.

(चलता)



# तीर-सुवादीक कॉलम

दिलीप बोरकार

जावं सायबा, सुटलों एकदांचो ह्या तिरसुवादपणांतल्यान.
फाटलीं दोन वर्सां सातत्यान हांव हो कॉलम बरयतां.
कोंकणी समाजांत एक पारंपारीक अशी समजूत आसा जावंक जाय.
कोणूय सातत्यान एकूच कितेंय करूंक लागलो तर ते धरून चलतात
ह्या मनशाच्या कांट्यार बसून कोण तरी काम करून घेता.
तो काम करून घेवपी थोड्यांक तो शणै गोंयबाब सो दिसता.
तर कांय जाणांक तो सांत इस्तेव ह्या घुस्पायल्ल्या, सोरपायल्ल्या, वाकडायल्ल्या, घुंवडायल्ल्या गांवच्या बऱ्या लोकांच्या बऱ्या पुर्वजांचो आत्मो सो दिसता.
दुसरो आनीक एक तांचो परवलिचो शब्द (म्हळ्यार कितें देवाक खबर!), गावड्यांक पंडित करून आमी सगळेच पंडित जावंया.
हीं उतरां शणै गोंयबाबांच्या तोंडांत घालून आमचे कोंकणीचे
खडेगांठ फुडारी गोंयभर ताळो सरांटून आड्डल्यात.
पूण पंडितान 'म्हजें उतर गावड्याचें' ही कविता बरयल्या देखून
तशें म्हणपाचें कोंकणी फुडाऱ्यांक सुचलें हें कोण मानून घेना.
हाका लागून कितें जालें, पंडित हे पंडितच जायत गेले
आनी म्हजे सारके गावडे पाड पडिल्ले गावडेच उरले.
असल्यांच्या कांट्यार बसून कोण मसणो बरोवंक आयला?
हांव बाबडो मोले घातले रडाया तशें मोले घातले लिहाया करीत बरयतां.
तशें करतना नाय म्हळ्यार कांटे मात पावलाक तोंपून घेतां.
ह्या दोन वर्सांच्यो यादी काडीत जाल्यार यादिंनीच नाका शेवट जाता.
तरी लेगीत निरोप घेतना कांय यादी नाय म्हळ्यार येताच.
निदान समारोपाचीं म्हणटात तसलीं दोन उतरां बरयले बगर रावं नज.
असल्या समारोपाच्या लेखांत थोडे बरोवपी उपकार म्हूण आठयतात.
कांय जाण गरजेभायर शीण काडून दुकां गळयतात.
आपणें इतलीं वर्सां बेस्ट बरयलें पूण वाचप्यांनी किंकोंत केलें बी.
म्हजें सद्या अशेंच जावन जीव सामको गलबलून गेला.
दोन वर्सां सातत्यान बरोवन कांयच भावना उक्तावप ना म्हळ्यार तें एखाद्र्याक बेवारशी मरण येता तसलीशी गत जाली.
हेर स्तंभलेखक निरोप घेतना कशे पळयात ओर्राद फाटीं सरतात.
तुमच्या इतल्या वर्सांच्या मोगाक लागुनच आपूण बरोवंक पावलों म्हणटात.
मागीर निरोपाचीं हीं अंतीम उतरां वाचून वाचप्यांचींय काळजां वळवळटात.
ताका गाळी घालपी लेगीत तेन्ना म्हणटात, बरो बरयतालो आं!
म्हाका कॉलम बंद करपी आनी अकस्मात खंवसप्यां मदीं फरक दिसना.
दोगांय विशीं लोकमत लागीं लागीं सारकेंच आसता.

हालिंसराक म्हजो एक वळखिचो म्हळ्यार पंगडांतलो वयर गेलो.
तो मेलो हें कळ्ळे उपरांत उलोवणीं कानार पडलीं तीं अशीं -
'तो मेलो? म्हळ्यार तो जितो आशिल्लो? खबरूच ना मरे!'
'हँ...! कसो मेलो तर! हांवें ताका कालूच पळयला मरे!'
'मरत सो दिसना आशिल्लो. बरोऽ पितालो बी काय कितें?'
'जावं, सुटलो बाबडो. पूण मनीस मात बरो आं! भांगर कसो!'
हांवें कॉलम बंद करतकच ह्या उतरांनी व्हडलोसो बदल नासतलो.
'बोरकारान कॉलम बंद केलो? म्हणजे तो बरयतालो तर?'
'च्या...! कित्याक बंद केलो रे? बंद केलो काय करूंक लायलो रे?'
'जायत. हालीं ताचें आनी संपादकाचें बरेंऽऽ नाशिल्लें म्हणटात.'
'पयशे बियशे कितें वाडोवन मागले म्हूण आयकल्लें हांवें.'
'तोय म्हूण स्वताक व्हडलोच समजतालो. कितेंय पचपच बरोवप आनी देमायज पयशे मागप म्हळ्यार कितें? हो कोण शौरी?'
'कितेंय जावं रे! पूण पापयो बरयतालो मात बरें आं!'
'कपलाचें बरयतालो बरें! तुवें वाचलां ताचें केन्ना कितें?'
'ना रे. पूण लोक उलयताले तें आयकल्लें केन्ना तरी.'
अशें हें उलोवप सर्रास चलता तरी मेल्ल्या परस कॉलम बंद करतल्याचें नशीब खूब वांट्यांनी बरें.
मरतलो कांयच सांगूंक पावनासतना अकस्मात कुट्ट जाता.
कॉलम बंद करतल्याक तो बंद करतना वाचप्यांचीं काळजां हालोवन त्याच म्हालवजार निमणो कॉलम आलायतोच मारूंक मेळटा.
तशें पळोवंक गेल्यार हो कॉलम फाटल्या वर्साच सोंपपाचो.
आमची भोंवतेकांची याद उणी देखून हांगा ती परतून करतां.
खंयचोय कॉलम वर्सभर चलचो अशें आमचे संपादिकेचें मत जाल्लें.
पूण तें म्हज्या कॉलमा बाबतींत कशें बदल्लें कोण जाणा.
म्हजेर एकल्याचेर उपकार नाकात म्हूण 'इतिहासाचीं पानां'य जगलीं.
हांवें म्हजो एकल्याचो कॉलम सोडून वर्सभर हेरांचें कांय वाचलेंना.
कोंकणी लेखकांचो, म्हळ्यार ज्येश्ठ आनी कनिश्ठांचो तो एक गूण.
ते आपलें बरप सोडून हेरांचें केन्नांच कितें वाचूंक वचनात.
हांवें वाचपाचें धाडस केलें जाल्यार हांव उणाक थरत म्हूण भंय!
सांगपाचें म्हळ्यार म्हजो कॉलम हांव फाटल्याच वर्सा बंद करपाचों.
पूण हांवच म्हयन्याचो हिशेब चुकलों.
हांवें कॉलम सुरू केल्लो त्या फाटल्या वर्साच्या ऑगस्ट म्हयन्यांत.
म्हणटकच फुडल्या आगस्टाक वर्स जाता हो म्हजो सादो हिशेब.
देखून निरोपाचीं दोन उतरां आगस्टाच्या अंकांत बरयतलों म्हळें.

आनी जुलाय म्हयन्याचें रतीब तो सोंपतां सोंपतां घालें.
मागीर आगस्टांत लक्षांत आयलें, वर्स सोंपून दुसरो म्हयनो पावलो.
झक मारीत आनीक एक वर्स पेन झरोवचें पडलेंना?
तातूंत संपादिकेचो म्हजे विशीं सॉफ्ट कॉर्नर आशिल्लोच.
बाबड्या दिलीपाक आनीक कांयच काम ना.
हो कॉलम बरोवन तरी जीव खेळोवंदी ताका अशें तें आपले चलयेक म्हणटालें
खंय अशें एक दीस म्हज्या कानार आयिल्लें.
त्याच रागान ह्या वर्सा हांव दर म्हयन्याचो हिशेब करीत बरयतालों.
मनोहरबाबां वरी 'केन्ना गोंयां केन्ना गोंयां' केल्ले वरी केन्ना जुलाय केन्ना जुलाय करतालों.
आनी एकदांचो जुलाय आयलो.
कोणाकूय दिसत म्हजे कडेन बरोवपा सारकें कांय ना म्हूण बंद करतां म्हूण.
कांय जाणांनी दांत ओंठ किल्लुसले म्हूण म्हजें पेन कांचवेलें अशेंय कोणाकूय दिसत!
वो, तो खंयचें बंद करतलो? तो आसा बेकार. हांवेंच बंद करूंक लायलो अशेंय कोणूय म्हणीत !
कॉलम बरोवपा खातीर म्हाका कितें हांची गरज आसा?
हांव म्हज्या लेखांत तांचो उल्लेख करतालों ता तांचे काकुळटेक.
ते अजून आसात आं म्हूण चार चौगांक हांव कळयतालों.
नातर कोंकणी चळवळ सोंपिल्ल्याक कोण खंय आसा तेंच कळना.
फकत दोग चौग जाणांचीं तींच तींच नांवां कानार पडटात
तींय बी ते कोणाचे तरी कृपेन खंयच्या तरी पदांचेर आशिल्ल्यान.
गोंय सुटके आदीं सावन आतां मेरेन तांचींच नांवां पाठ लोकांक.
आयचे पिळगे वरी येवपी पिळगेकूय हींच नांवां दिसतलीं.
म्हणटलीं, इकरा जाणांतले सासणा खातीर हेच उरले काय?
तशें घडूंक फावना देखून म्हजे परीन हांव धडपडटालों.
साहित्यीक मुल्यांच्या कॉलमा बदला तिरसुवादीक मुल्यां केळयतालों.
पूण ह्या लोकांनी गैरसमज करून आपलेंच लुकसाण करून घेतलें.
कोंकणीच्या मळार आमचे अशे कितले तरी लोक जिते आशिल्ले.
देवा दयेन कॉलम मेळ्ळो तेन्ना तांचेंय नांव जावचें म्हूण नांवां घेतालों.
हांकां पडमुरांक दिसलें हांव तांच्यो बकच्छायो करूंक सोदतां.
आमचो भिकू आसतना अनाचो भिकू म्हालो चान्स मारून गेलो.
आमच्यो अकादम्यो आसतना मराठी अकादमी चार लोकांक कळ्ळी.
तेंय बी कांयच काम करिनासतना मेल्ल्यांच्या नांवान शोकसभा घेवन
गरजे भायर दुस्मानांक माथ्यार घेवंक म्हाका कितें पिशें लागिल्लें?
बरोवपा खातीर इतले विशय आसात की कितलेंय खरडूं येता.
दोनूच वर्सां कित्याक, चान्स पडिल्लो जाल्यार जाग सुरू जायत सावन बरोवन हांव ज्येश्ठ साहित्यीक जावपाचों.
पूण जागवाल्यांक जागूच आयली तीं हांव झेमता झेमतना.
खऱ्या साहित्यिकान आपले दोळे कान सगळें उकतें दवरूंक जाय.
म्हणटकच सरभोंवतणचें आपशींच ताचे तकलेंत रिगता.
मागीर ताणें आपली प्रतिभाशक्त केळोवन कागदार बरोवंक जाय.
आमचे चड्शे लेखक पयलीं कागदार बरयतात. मागीर प्रतिभाशक्त केळयतात
आनी मागीर दोळे, कान बी उकते घालतात खंय!
म्हजेंच पळेयात, हांव सकाळीं पांच वरांचेर उठून चलपाक वतां.
घरच्यान भायर सरून जुवारी पुलार येतां.
पयलीं हांव सुण्यांच्या भंयान हातांत एक दांडो घेतालों.
पूण म्हजे म्हाकाच हांव गांधी सो दिसूंक लागलों.
माथ्यार केंस आशिल्लो गांधी म्हजे म्हाकाच आवडलोना.
पारपोळ सुण्यांनी खाल्यार खावं म्हूण दांडो हांवें कोनशाक दवरलो.
सगळे केंस गेले म्हणटकच ताचेर सहानुभूतीन विचार करूं येतालो.
पुलार पावना बराबर खंयची तरी ट्रेन अचूक रेल्वे पुलार येता.
हांव चलप विसरून ते ट्रेनीक बरोच वेळ पळेत उबो रावतां.
ते ट्रेनींतल्या लोकांमदीं म्हाका फुकट पास मेळिल्ले सुटके झुजारी दिसतात.
केन्ना केन्नाय रमेश वेळुस्कार आनी कमलाकर म्हाळशीय दिसता.
हांव जाणां! हो सगळो म्हाका जाल्लो एके तरेचो भास म्हूण.
तेन्नाच पुलावेल्यान वचपी गाडयेंतल्यान कोण तरी आड्डता,
'बोरकार, कितें पुलावेल्यान उडी मारपाचें येवजिता रे?'
हांव भानार येतां आनी चलत रावतां.
पाड पडिल्ल्यांक म्हज्या मनांतले विचार कशे कळटात तेच जाणात.
अजून कोंकणीच्या मळार कांयच अरिश्ट येवंक ना जीव दिवपासारकें.
फुडाराक येवपाच्या मार्गार आसा तेन्ना विचार करचोच पडटलो.
तें येवचें न्हय म्हूण हांव पुलाच्या अंताक आशिल्ल्या देवांक होरायतां.
व्हडले व्हडले कम्युनिस्ट देवनिश्ठ जावन हांगा पुजा आनी म्हाळ घालतात.
थंय हांव चुकतां अशें म्हाका निखालूस दिसना.
पयलीं पयलीं ह्या देवां मदलो खरो कोण तें म्हाका कळनासलें.
थंय एक मारुतीचें संस्थान आसा आनी दुसरो एक खुरीस.
मारुतीक पांयां पडूंक वतना पयली नदर पडटा खुरसाचेर.
खुरसाक टाळून, न पळयिल्ले वरी करून हांव मारुती कडेन वतालों.
देवा सायबा, कोंकणीचो फुडार परजळीत कर म्हूण मागतालों.
मागीर म्हज्याच जिवाक खावप. खुरसा कडेन हांवें दुर्लक्ष कित्याक केलें?
कोंकणीची आयची सुवात आसा ती ह्या खुरसाक लागुनूच.
मारुती सदांच दुस्माना वटेन म्हळ्यार मराठी वटेन रावला.
तेन्ना हांवें पयलीं खुरीस मेळटा म्हूण खुरसाक मागणें सुरू केलें.
अशेंय जावं येतालें, मारुती केन्ना केन्ना खुरसा कडेन येवन टायम पास करूंक शकतालो.
त्याच वेळार हांव मारुतीचे घुमटेक नमस्कार करूंक गेल्ल्यान त्रासांत पडला आसूं येतालें.
आनी मारुतीन फाविल्ल्या वेळार खुरसा कडेन कित्याक वचचें न्हय?
पयलीं पणजेचे देव आनी मडगांवचे देव अशे देव आशिल्ले.
पणजेचे देव आमकां भक्तांक मडगांवच्या देवांचेर सोडटाले.
आतां पणजेचे आनी मडगांवचे देव एक. आमी भक्त उबंत पडले.
तें जर जावं येता जाल्यार मारुती आनी खुरीस एक जातलेच.
देखून हांव चलपाक भायर सरलों म्हणटकच दोगांकूय शरण वतां.
पळय केदो व्हडलो हो बदल म्हजे भितर ह्या चलपाक लागून जाला,
आनी हांव दोन वर्सां नाका जाल्लीं तिरसुवादपणां करतालों.
आतां हे फुडें हे असलेच दैवी साक्षात्कार बरोवन छापप.
तिरसुवादपणां बंद करून तीर काडून खंयच्याय रुखार दवरप.
सुवाद उरलो जाल्यार उरुंदी यादी खातीर...

* * *

## हरयाळी

मनोहरराय सरदेसाय

१

घडयाळिच्या सेकंद-कांट्यार
पिसोळें येवन बसलां
आतां वेळाक मुखार सरूंक येना.

२

आतां -
मोटारींतल्यान सुटाबुटांत
तूं येता.
चिप्प भिजून उक्त्या आंगान
तुफानार बसून तूं येतालो
तोच म्हाका चड आवडटालो.

३

च्याच्या कोपांत
तुज्या उगडासाची साकर घालून
काळजाच्या कुलेरान चाळीत चाळीत
तुजी वाट चोयतां.

४

जल्मापसूनचो गळ्यांत हो
मर्णाचो फांस
देखून, जिविताचो स्वास घेवपाक
हांस.

५

भरती आनी सुकती
हांचे मदलो वेळ
इतलीच दर्याक विश्रांती.

६

आमचो काव्य-रथ
दोन हात वयर चलता
धर्तरिर देंवपाक भंय दिसता.

७

खंयचें उतर
सगल्यांत मोगाळ?
मनांतल्या मनांत चिड्डिल्ली
गाळ.

८

धव्या फटफटीत कागदाक
आमी अक्षराचो लायलो तिळो
थंड मोन्या कागदाक
आमी काळजाचो आवाज दिलो
गती दिली, मती दिली
कल्पनेचो रंग दिलो.

# पावस आनी हांव

बाळकृष्णजी कानोळकार

पावस घोग्यांनी वतता
आनी हांव
सत्री विसल्लां

दडकेर दडक्यो
मारीत उडक्यो
पेयतत
हांव आनी
उडक्यांर उडक्यो मारीत
धांव धांव धांवतां
रिगतां
एका वडामुळा, आदीम.

पावस घोग्यांनी वतता.

हांव वडांतल्यान
पळ पळ पळयतां
पळयतां आलतड पलतड
वाऱ्याचो शिगमो
पावसाची सुवारी
नि 'जीवना'ची जोरी
गात्रांगात्रांत शिरशिरी
तनरजोती पेट्टात
पावस घोग्यांनी वतता.

पळयतां पळयतां पावस
जुवान जाता.
गड्डो-मील मोखून मारून
खेळयो खेळटा मुसळां खेळ
ओऽ वीरा ऽऽ
ओऽ सांबाऽऽ
गायता देखणी धरतरी नाचता
संवसार धालों जाला मांड.

मुखार एक माड
ऊंच मळबांत धोलता
झोमता गगनाक
आळयता बळयां
सारे गम
पध निसाऽ

आनी मुखार एक न्हातें धुतें
फुलू पिशें चिंचे झाड
कणकण कळेलां
फुलुफुलु फुललां

पावस घोग्यांनी वतता.

असल्या असल्या पावसांत हांकां कशें
सुचता हें नाचप-धोलप
आनी आनी घालप हुलप
पेल्या हड्ड्यांत !

हांव सत्री विसल्लां
साप्प हें खरें न्ही.
सताफटिचो बाजार सगळो.

ती पडल्या दुयेंत
तिका दोतोराक
दाखोवंक जाय
पावसा-पाणयाचें
दुयेंस म्हजें, सत्रेचें.

लागसड्रा दोतर ना
बोलसांत दुडू ना
शेजाऱ्याक
शेजारी नसाय
आलतड पलतड
मदें पिसाय
कशें - तशें - अशें
आतां जावंचें कशें?

पावस घोग्यांनी वतता
आनी हांव सत्रेची वाट
वट्ट वडातळा पळयतां

पळयतां एकाद्री
आशिकुशी
वळखिची खोळ
मेल्या पावसाक ना वखळ
काळसोणो मालक्रियाद
व्यापून उरला तीन त्रिकाळ

अशा भर पावसांत हांव
असो होमकाणसो पेट्टां

पावस घोग्यांनी पडटा.

## दोन कविता
भालचंद्र गांवकार

### १. सांज

आतां
सांज ना पयस !
ती
देंवल्या नदरेंत
चंवरल्या... तंदरेंत
आतां... सांज
परजळटा
दर एके करणेंत !
आतां
सांज ना पयस
ती तर पावल्या
मनाचे गर्भकणयेंत !

### २. नदरेंत सांज देंवतानाय...

नदरेंत सांज देंवतानाय
पिश्या मना...
आंकवार यादिंचे दुवाळे कित्याक?

पावसाळ्यांनी कंवळ्ळ्यात काती
सपनांत लेगीत काळख्यो राती
तरीय मना...
रखरखीत गिमांचे सुवाळे कित्याक?

## घोंटेरांतले कावळिणी
अरूण साखरदांडे

घोटेरांतले कावळिणी
कितलीं तांतयां घालीं?
आयज मेरेन पापणी तुका
कितलीं पोरां जालीं?

कितलीं मेलीं कितलीं उरलीं
आसा तुका याद?
उडून गेल्लीं पिलां तुका
घालता मगे साद ?

रित्या रित्या घोटेरांत
कित्याक काडटा दुकां?
वाडटीं पिलां उडटलीं
समजना गे तुका?

रित्या रित्या घोटेरांत
परतीं तांतयां घालीं?
इतली तूं आवये
पिशी कशी जाली?

# बंदखणींतले विनोदी प्रसंग

इतिहासाचीं पानां

फेलीस्यु कार्दोज

आग्वादाचे बंदखणींत केन्ना केन्नाय आमी एकामेकांचीं फकाणां करून थोडो वेळ हांसून-खेळून सारताले. आंतॉनियु वियेगश ह्या करमणकाराचें पुराय नांव ज्युआंव आंतॉनियु बार्तोलोमेव दश आंगूश्तियश वियेगश. तो आंगलटीन बरो आसलो. ताणें थोडो काळ भारतीय नौसेनेंत कामय केल्लें. तो दाट मिशयो दवरतालो आनी पळोवपाक इल्लो उग्र सो दिसतालो. पूण सभावान सामको सादो-भोळो, मनान दयाळ आसलो. ताका वाचप करपाची आवड चड आसली. वर्तमानपत्र आयलें की आयलें तो ताचेर उडी घालतालो.

आमकां गोंयचीं लेगून पत्रां त्या त्या दिसाक मेळनासलीं. आमकां येतालीं तीं वर्तमानपत्रां, पुस्तकां, चिटी, आदी सगळें बंदखणिचे अधिकारी पुलिसेच्या 'Censura' (अभ्यवेक्षण) खात्यांत तपासूंक धाडटालें. तपासणी जातच तांचेर 'Censurada' म्हण शिक्को मारून तीं आमकां धाडून दिताले. हे परीं आमकां चिटी, पत्रां खूब उसरां मेळटालीं. दिसाळीं तीन-चार दिसां उपरांत आमच्या हातांत पडटालीं.

दनपारच्या वेळार त्या त्या दिसाचो काब (cabo da guarda) टपाल हाडून खोलयेच्या मुखेल्या कडेन (chefe da cela) दितालो. टपाल येतालो तेन्ना सगळेच उत्सुक आसताले. काब खोलयेच्या दारांत येवन व्हडल्यान 'कुर्रेय' (टपाल) म्हणिना फुडें खाटिंचेर कोण आड पडून आसले ते लेगून उठून उमळशिकेन घरच्यांचे चिटिची वाट पळेताले. आंतोनियु वियेगश जाल्यार आपणाक चीट आसतलीच म्हण सदांच भरवंशान रावतालो. चिटी वांटपा वेळार केन्ना केन्नाय जॉर्ज आंद्राद व्हडल्यान 'आंतोनियु वियेगश' म्हण हांक मारतालो. वियेगश बाबडो खाटी वयलो[1] सडसडीत देंवन येतालो. तो दारा कडेन पावता म्हळ्यार जॉर्ज 'नांव तँ कार्त' (चीट ना) म्हणटालो. वियेगश बाबडो बेजार जावन परत वतालो. जॉर्ज केन्नाय एक खबरांपत्र व्हरून वियेगशा कडेन दितालो. तो उमेदीन वाचूंक लागतालो. थोड्या वेळान पत्राची तारीख पळेतालो. तेन्ना ताका आपलें फकाण केलां म्हण समजतालें. पत्र खूब फाटले तारखेचें आसतालें !

आठवड्याक एकदां आंतोनियु वियेगशाची रांदपाची पाळी येताली. ताच्या पंगडाचो तो कुजनेर जाल्यार ताका दोग जाण आधारी आसताले. रांदप करपी दर एका पंगडांत अशीच पद्धत आसली.

दनपारचें वो रातचें जेवण जातच आंतोनियु वियेगश दर एकल्या कडेन वचून आपलें जेवण कशें जाल्लें काय म्हण विचारतालो. बरें जाल्लें म्हण सांगतकच तो खुशाल जातालो. पूण कोण कोण कुचिंद्रिपणय करतालो. ताका चाळोवपाक एकलो बेश्टोच म्हणटालो: 'शीत मातशें मोव जाल्लें.' 'तें सोड, हुमण कशें जाल्लें?' वियेगश विचारतालो. 'हुमण मातशें अयणी आसलें.' ताका जबाब मेळटालो. 'भाजी कशी जाल्ली?' 'भाजी जाल्ली रे... पूण मीठ इल्लें सुबेज पडलें.' ताका तशें सांगतकच तो उदास जावन दुसऱ्या फुड्यांत वतालो आनी तसलेच प्रस्न विचारतालो. थंयूय समाधानकारक जबाब मेळ्ळो ना जाल्यार तिसऱ्या कडेन वचून विचारतालो. आनी चार-पांच जाणांनी मुद्दम ताच्या जेवणाचे 'दोश' काडल्यार ताका वायट दिसतालें. तो इल्लेंशें तोंड करून वचून खाटीर आड पडटालो आनी वयर नदर लावन सिगरेट फुसकायत रावतालो. तेन्ना आमचे भितरलो एकलो-दुकलो ताचेशीं वचून ताका फुसलायतालो: 'आरे, तांचें तूं मनाक लावन घेनाका. ते तुका चिडोवंक तशें म्हणटात. आयज जेवण एकदम बरें जाल्लें.' तेन्ना ताचें तोंड उजळटालें.

सांजेचे च्याये वेळार आमी एकेक पावटीं कितेंय ना कितें खावपाक करताले. कितें रांदलां तें पळोवपाक प्रो. शंकर सरदेसाय सदांच पयलीं रांदचे कुडींत येतालो आनी ''हांव 'टेस्टींग मिनिस्टर' देखून रांदलां तें चाखून पळेतां'' म्हणून थोडें आपल्या ताळटार घेवन खातालो. एका दिसा बाबू भांडारी (श्रीकांत बाबन भांडारी) बटाटवडे करतालो. सदां परीं सरदेसाय येतलो म्हण ताका खबर आसली. देखून ताणें एक बटाटवडो बरेंच मीठ घालून केलो. कायलींतल्या तेलांत सळसळट्या बटाटवड्यांचो घमघम येना फुडें प्रो. सरदेसाय रांदचे कुडींत आयलो. बटाटवडे कायलींत तळटात ते ताणें पळेले आनी एक काडपाक ताणें आपलो हात ताटा कडेन व्हेलो. बाबून वेळ लायनासतना तो मिठाचो बटाटवडो ताच्या हातार दवरलो. बटाटवड्याक घांस मारनाका, ताणें आपलें तोंड सामकें वांकडें केलें. पूण उपरांत कांय जावंक नासलले परीं करून कुजनांतलो भायर सरलो आनी वकील पांडुरंग मुळगांवकारा फुड्यांत वचून 'बरेऽऽ जाल्यात' म्हणीत आपल्या हातांतलो तो बटाटवडो पांडुरंगबाबाक दिलो. पांडुरंगबाबान त्या बटाटवड्याचो कुडको तोंडांत घालतांच 'थू थू' करीत तोंडांतलो तो कुडको ताळटाचेर उडयलो. इतल्याक प्रो. सरदेसाय खो खो करून हांसूंक लागलो. आमीय बरेच हांसले.

हांव कैदी जावचे आदीं तियात्र, जादुचे प्रयोग करतालों. गोंयांत जायत्या सुवातांचेर हांवें जादुचे प्रयोग करून दाखयलले. तियात्रा खातीर हांवें 'एफ. मॅजिकवाला' म्हण नांव घेतललें. बंदखणींतय एक-दोनदां हांवें कांय ट्रिको करून दाखयलल्यो. जादू म्हळ्यार हातचलाखी. हांव एक असो प्रयोग करून दाखयतालों: सोलललो नाल्ल फरसाचेर दवरून ताचेर एक मूठ मारून तो फोडटालों. तेन्ना हांव बारीक किडकिडीत. तरीय एके मुठीन नाल्ल फोडटां म्हण दुसऱ्यांक अजाप दिसतालें. पूण ती म्हजी हातचलाखी आसली. हांव पयलीं, दुसऱ्यांची नदर आड करून, फरसार कोथमिरिचे तीन दाणे आनी एक ल्हान त्रिकोणसो करून मांडटालों आनी तांचेर धपक्यान कोथमिरिचे दाणे फुटून नाल्ल फरसार आपटतालो आनी फुट्टालो. हांव मूठ मारून नाल्ल फोडटां म्हण प्रो. शंकर सरदेसाय तसो नाल्ल फोडूंक तयार जालो. तो आंगलटीन दाट-मोटो आसलो. पूण फोडपाचें तंत्र तो नकळो आसलो. ताणें एक नाल्ल हाडून फरसार दवरलो. आनी सर्कसींतल्या पेलवाना परीं नेट करून एक भाशण केलें. 'हांव प्रतापराव सरदेसाय कळयेचो. आतां म्हजो प्रताप पळेयात.' अशें म्हणून ताणें नेटान त्या नाल्लाचेर मूठ मारली. नाल्ल फुटूंक ना, पूण ताच्या हाताची दुर्दशा जाली. हात सणसणटा म्हण तो बोब मारूंक लागलो. आमकां पयलीं हांसूंक आयलें. थोड्या वेळान ताचो हात सुजलो. हाता हाडाक बारीक फूट आयल्या म्हण कळ्ळें. दोतोरांनी हाताक बॅंडेज बांदली आनी दुखी खातीर गुळयो दिवन धाडलो. ताचो हात निगूत बरो जावंक जायते दीस गेले. मूठ मारून नाल्ल फोडपाचो ताचो प्रयोग ताका बरोच म्हारग पडलो.

१. आग्वादचे बंदखणींत पयलीं कैद्यांक एकोड्यो खाटी दिल्ल्यो. कैद्यांचो आंकडो वाडलो तेन्ना दुपेट खाटी हाडल्यो. दर एके खाटिचेर दोग जाणांक - सकयल्या खणांत आनी वयर - न्हिदूंक मेळटालें. वियेगश खाटिचे वयले सुवातेर न्हिदतालो.

# रमेश वेळुस्काराली कविता

प्रियदर्शिनी तडकोडकार




हेर खंयच्याय साहित्यप्रकारा परस 'कविता' हो साहित्याचो प्रकार आमच्या सांस्कृतीक जिविताक पोरण्या काळा सावन पुरायेन रेवाडून आश्शिल्ल्यान कविते विशीं वाचप्यांच्यो जायत्यो कल्पना आसतात. कविता हो साहित्याचो एक मुळावो प्रकार. कवितेचीं इतलीं विंगड विंगड रुपां मेळटात की तिची मूळ प्रकृती आनी ती सिद्ध करपी तिचें मुळावें/मूळ रूप हांचे विशिंचो विचार केन्ना केन्ना गोंदळून उडयता. हाचें कारण कवितेचीं वेगळीं वेगळीं रुपां न्हय तर, ह्या विंगड विंगड रुपांक जल्म दिवपी आमगेलें संस्कृतीक वेव्हारीक आनी कलात्मक अशें जिवीत. ह्या तीन पांवड्यांक लागून पुराय जिविताक आनी कवितेकय वेगळे वेगळे अर्थ आनी अर्थभाव मेळिल्ले आसतात.

कवितेचो जल्म गितांतल्यान आनी गिताचो जल्म आदिमनशाच्या नाचांतल्यान जाला अशी एक उपपत्ती हे विशीं मेळटा. नाचांतल्यान गीत आयलें तेन्ना शब्दाक अर्थ नाशिल्लो. उपरांत ते अर्थान भरले. हे शब्द नाद, लय, ताल हातूंत घोळिल्ले आसले. सैमाच्या अखंडित सहवासाक लागून लय, ताल, ध्वनिची जाणविकाय त्या मनशाक रगतांतल्यान जाताली. आनी भितरले उर्बेन भरिल्ले उलट अशे शब्द चित्रमय आनी संवेदनशील जावनच ओंठांतल्यान भायर येताले. नाचांतल्यो भावसूचक हालचाली आनी तांतल्यान जाणवपी कुडिची लय त्या शब्दांकच आशिल्ली. ताकाच लागून उत्स्फूर्तताय, उत्साह आनी सहजताय, सादेपण, मेकळेपण हे गूण कवितेच्यो विशेशतायो जाले.

मनशाक शब्द मेळटकच संवेदना, भावना, विचार, कल्पना, याद अशो ताच्यो जायत्यो मानसिक शक्ती जाग्यो जाल्यो. आनी तातुंतल्यान ताच्या अणभवांक एक विलक्षण उत्कटताय आनी संमिश्रताय आयली. ताच्या गितांतले शब्द अर्थयुक्त जातकच तें गीत 'वाङ्मयीन' रूप घेवपाक लागलें. ल्हवू ल्हवू तें गावपाक येता हाचो प्रत्यय मनशाक येतकच गेयतेचे तरेकवार सांचे जाले. गितांतल्यान उत्क्रांत जाल्लें हें वाङ्मयीन रूप म्हळ्यारच कविता. ती नाचांतल्यान आयिल्ल्यान गितांतलो ताल, लय, ध्वनी हांची जाणविकाय, शब्दांचे गुणविशेश, शब्दांचें अर्था कडेन आशिल्लें गूढ नातें ह्यो साबार गजाली कवितेन आपणायल्यो. पूण कवितेन आपणालें सर्वस्व एकवटायलें तें निखट्या शब्दार्थाचेर आनी शब्दार्थाच्या एकवटान आपणाले परिणाम घडोवपाचेर. हे प्रक्रियेंत भाशेची सर्जक शक्त चड 'मिथिकल' जाता. हाचें कारण कवितेंतल्यान उकतो जावपी आत्माविश्कार, कवी आनी ताचें व्यक्तिमत्व. कविचे भावावस्थेंतल्यान ताच्या अंतर्मनाचो, ताच्या संवेदनांचो, व्यक्तिमत्वाचो फुटून आयिल्लो उमाळो म्हळ्यार कविता. हो उमाळो उकतो करपाक उतरांचो म्हत्वपूर्ण आदार आसता. पूण ते खातीर तांचो वापर जतनायेन करचो पडटा. उतरांच्या अर्थाचेंय भान दवरुंचें पडटा.

रमेश भगवंत वेळुस्कार ह्या कविच्यो कविता वाचतकच वयल्या साबार गजालिंचो पट नदरे मुखारच्यान झळकून वता. हाचें कारण म्हळ्यार तांच्या कवितेंतल्या शब्दांक आशिल्ली निजाची लयबद्धता. **सावुलगोरी**चे मिथकतेच्या आदारान उबें केल्लें गूढ वातावरण आनी लोकगितांचें अस्सलपण.

आयज मेरेनची रमेश वेळुस्काराची काव्यसंपदा वट्ट स झेल्यांतल्यान रसिकां मुखार आयल्या. १९७७त उजवाडाक आयिल्ल्या **मोरपांखां** उपरांत **माती** आनी **आंगणी नाचता मोर मोरया** (१९८३, ८८) ह्या दोन झेल्यांच्या उजवाडांत वेळुस्कारान कोंकणी सरस्पतीच्या काव्यमळार निसर्गाचो कवी म्हूण आपणाली नामुद्रा ठसठशीत केली. तांच्या पयल्या झेल्यांचीं नांवां ह्या अर्थान संवादी आसात, अशें म्हळ्यार जाता. सैमा कडेन आशिल्लें आपलें नातें ते विसरूंक पावनात अशेंय म्हळ्यार जाता. **माती** ते **हिरण्यगर्भ** हो तांच्या कवितांचो **सूर्यवंशी** उत्थानप्रवास कोंकणी कवितेच्या मळाक गिरेस्त करपी अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना.

सैम, सुंदरकाय, अस्तुरी, मोग/प्रीत हे तांच्या कवितांचे मुखेल विशय. कोंकणींतल्या हेर कविंच्या काव्यांतलीं सैमाचीं रुपां मनशाच्या भावनांक स्पश्टताय दिवपाक आदार म्हूण आयिल्लीं. पूण रमेश वेळुस्काराले कवितेंतलें सैम मनशा सारकेंच येता. तांणी मनशाच्यो भावनाच सैमाचेर आरोपीत केल्ल्यो अशें म्हळ्यार जाता. **माती**, **मोरपांखां**, **सावुलगोरी** आनी **हिरण्यगर्भ** ह्या साबार झेल्यांतल्यान त्यो स्पश्टतायेन दिसतात. देखून तांचीं 'पानां लजतात' (सांगात/मोरपांखां), दनपार 'हळडुवीच पिंगशी कशी, पिंगशा सावळ्यांची' हिप्पीण जाता. तांचे सावुलगोरींतलें झाड मनांतल्यान खंती जालां. आनी हाची जाणविकाय कवीक ज्युस्त जाल्या देखून तो ताच्यो भावनाच उकतायतना म्हणटा -

'दुख झाडाच्या मनांत / दुख झाडाक सोंसना

मिटी फोडची म्हटल्यार / ताका कोणूच मेळना / ताका कोणूच समजना (पा. १०)' अशे तरेन झाडाचें रुपक घेवन बरयिल्ल्यो आनीक कांय कविता ह्या झेल्यांत मेळटात. देखीक, 'मनवासी / मनवासी हें झाड / झाडाच्या मनांत / सुकण्या राशी' (पा. १८) वा 'ह्या सुकण्यांची / त्या सुकण्यांची / झाडाक लागल्या नड / आनीक सगळी / ही जीण जाल्या / अवघड अवघड (पा. ९).' खंती झाडाचें चित्रण कवी करता तेन्ना तो शेवण्याच्या उडपान खंती जाल्लें झाड दाखयता आनी शेवण्याक लागून झाडाक जाल्लें दुख्ख दाखयता तेन्ना कवी प्रतीक रुपान आपणाल्याच मनाचें चित्रण करना मू? पानझडटेच्या दिसांनी उकतें मळब पळयतकच झाडाक ताची माया तोंपूंक लागता आनी 'सुकण्यांच्या राशींच्यो नडी' सांबाळटना तें 'सैरभैर जालां', ताचे जिणेचो 'हुंवार तुटला' आनी ताका लागून झाड वाऱ्या कडेन मागणें मागता - संवसारा खातीर - 'वाऱ्या वाऱ्या जशें सर्गार जाता / तशें संवसारांत जावंदी' (सा.गोरी पा. २२). ह्या झेल्यांतले निमाणे कवितेंतलें मागणेंय अशेंच मळबा कडेन केल्लें - 'हे सर्वव्यापका मळबा / म्हज्या समेस्त पेल्यांक / तूं तुजी उंचाय दी'. दर्या कडेन खोलाय मागपी, न्हंये कडेन निर्मळताय मागपी, फुला कडेन मोग आनी परमळ मागपी कवी मनीस जिणेंतलींच हीं साबार अप्रुपां सैम मनीस जाल्ले वरीच मागता तेन्ना तो सैमांतल्या साबार

रुपांक मनशा वरीच कसो लेखता हें दिसता आनी हें सैम थंय मनीसरूप जावनच वाचप्यांच्या भावविश्वांत उबें जाता.

अशे रितीन सैमाक वा तातुंतल्या झाडां सारक्या घटकांक मनशाच्यो भावना दितना त्या भावनांचें वैश्विकीकरण (universalization) करून कवी एका शाश्वत सत्याची जाणविकाय वाचप्यांक दिता आनी तांकां एके घट बुनयादीर उबे करून जिविता कडेन पळोवपाची नदरय दिता. तेच वांगडा 'अशी आमोरी शिमोरी / एक काळ-सांवळण / माथ्यार उजवाड दुधाची / बिंदली गवळण / जाय सांज-सांवळण' अशें आमोरेचें पुराय चित्रदर्शन घडयतना कृष्ण-राधेचे वास्तव काणयेक एक गूढ, धुसरताय हाडटा. सांजेची गवळण चुकल्या शेवण्यांचें पांयजण बांदून 'कृष्णखीण' गरयत वयता अशी प्रतिमा जेन्ना ताचे कवितेंतल्यान येता तेन्ना वाचपी वास्तव जाणविकायेच्या संवेदनांतल्यान कल्पनेच्या साम्राज्यांत केन्ना पावता हेंच कळना. 'सावुलगोरी'ची पुराय काल्पनिक मिथक-कथाय उबी करून तो सोनायसुंदरी आनी मोराच्या आगळ्या वेगळ्या मोगाचे काल्पनिक खंडकाव्यात्मक मिथकय रचता.

'सावुलगोरी' सावुलगाळींतल्यान 'पावशी शेन' झडटा तशी झळकत येता. श्रावणांतल्या शेनपी पावसाच्या पड्ड्या फाटल्यान ती वाचप्यांच्या मना मुखार उबी जाता. श्रावणांतलें एकंदर वातावरणच पावस-वताक लागून धुमील, धुसर जाल्लें आसता. तीच धूमिलताय सावुलगोरीचे प्रतिमे भोंवतणीं पातळून आसा. देखून वाचप्यांक तिचें स्पश्टतायेन दर्शन घडप म्हळ्यार अप्रूपच! देखूनच तिचे विशिंचें गूढ आकर्शणय बी. यादिंचीं खिणां दिठयेच्या हातांनी सांसपून गेल्ली ही सावुलगोरी कविच्या काळजाक घुंगरां बांदून गेल्या तशी हयन्हयशी भुलय घालून गेल्या. उपरांत दोळ्यांक झालर लावन बशिल्लो तिचो 'चंद्रीमखडो' कसो 'सोनाय मुखडो' कवीक दिश्टी पडटा आनी ताच्या मनाक पिशें लागता. 'तय चंद्रीमाशी, साखर उतरी, शेरवड शिंगार लेवून' आयिल्ली ही गोरी कविच्या रुंवांरुंवांतल्यान 'रगत थेंब्याच्यो घुरी' घालतना दिसता तशी वाचप्याच्या मनाक एक हुरहूर लायतना दिसता.

'सावुलगोरी' हो झेलो रमेश वेळुस्काराचे प्रतिभेची एक तेंगशी गांठतना दिसता. ह्या झेल्यांतल्या कवितांक लोकगितांचें अस्सलपण आसा. देखून गोंयचे मातये सावन हे कवितेक वेगळी काडुंकच येना. आनी कोंकणी शब्दकळेक ह्या झेल्यांतल्यान एक वेगळीच कांत मारता. लोकजिणेंतल्यान कविचे भाववृत्तीक आयिल्ली लयबद्धता नवी शब्दकळा घडयतना हांगा दिश्टी पडटा. 'शंबल्यो रे बाबा शंबल्यो' सारक्यो लोकगिताच्यो वळी कवितेंत धृपदा सारक्यो येतात. तशेंच, 'गराशेरान शेलो दिलो / शेलो जागराचो' म्हणटना 'झांकूंक आतां लागला / घुमटावेले थापीन म्हजें काळीज दिग् दिग् घुमलां' असो शिगम्याच्या तालान घुमून गेल्लो कवी दिसता.

'शेवण्या-शुबुल्या, शेवण्या शेणोरा, शेवण्या-शुतुल्या', आमोरी-शिमोरी, लिप-दीप दोळे, हर्त रे कावळ्या हर्त रे हर्त, शिरशिर शिर नामूबे, घुंघुर घुंगुरता' अशीं केन्ना सादाच्या सरळ उतरांचीं आवर्तनां जाल्यार केन्ना 'आनी ती जाता हुस्को / आनी ती जाता दोळ्यांचें पातें / आनी ती जाता...' अशे केन्ना लोकगिताचे, जागराचे संदर्भ घेवन गूढ, कठीण, आकळपाक दुर्बोध अश्यो वळी. जाल्यार केन्ना 'नृत्यकळाशीर, रंगतरंगांचे आंकूर, शिर्वाण केण, सूर्यपर्जळी मोतयां, सैमसुरमई सांजवेळो, उलुपी सांजवेळो, मत्तमोतयाळें चान्नें, मनहद नाद, अनादी नाद, अनहद नाद, सपनपारो, सुनर चंवरी चान्न्यांत, सर्पसुरंगी कोचो' आनी मनभुलयाळी प्रतिमावळ घेवन कोंकणी कविता पयलेच फावट रसिकां मुखार आयली आनी 'जी भास साहित्याच्या प्रांतांत आजतागायत येवंक नाशिल्ली ती हांकां लागून आतां साहित्यांत प्रतिष्ठा जोडूंक लागल्या. तांचे जिणेंतल्यो प्रतिमा सौंदर्यरूप घेवंक लागल्यात आनी तांची कविता मुळाव्या आनी थळाव्या जानपद छंदाक भिडूंक लागल्या. हांची ही कविता फुडली वाट रेखतली आनी सगळ्या भौसाक जागयतली. मागीर सान्नीकोनशांक पडिल्ले जानपद छंद नवी जिवसाण घेवन उठ्ठले.' (बाकीबाब बोरकार. कोंकणी काव्यसंग्रह, प्रस्तावना, १९८१.) हीं बाकीबाब बोरकारांलीं उतरां याद जातात.

सावुलगोरीची रूपकात्मक प्रतिमा मान्य केल्यार ते कवीन उबें केल्लें मिथक रसिकां मेरेन संक्रामित जालें काय कितें हो विचार येता. वाचप्यांच्या आकळनाचे तांकिचेर घडये तिचो रूपकार कसो स्पश्ट जावंचो हें थरता आसुंये. हें खरें मानल्यारय 'सावुलगोरी'चें रूपक म्हळ्यार सैमाच्या भावभावनांची कविता न्हय जाल्यार मनशांच्या भावभावनांची सैमांत सोदिल्ली संवेदना अशेंच म्हाका दिसता. आनी ती उकती करपाक कवितेंत 'धपक् धपक् घुमटां, घन दनपार, लीप-दीप दोळे, शिर्शिर, भुलकोमरी' अशो कितल्योशोच आगळ्यो वेगळ्यो आनी मनभुलयण्यो प्रतिमा रचल्यात. घडये हाकाच लागून पुराय कविता आनी तिची संवेदनाय वाचप्यां मेरेन पावप दुर्बोध जालां. केन्ना केन्ना शब्दांच्या भुलभुलैयांत आपुणच नादावन गेल्लो कवी अशे तरेच्या प्रतिमांचें गारूड रचपांतच शेणला अशें म्हाका दिसपाक लागता आनी उतरांची कसरत करपी ही कविता निखटी कारागिरी दाखयता अशें म्हणटना मराठींतलो कवी ग्रेस याद जाता.

हे भावनेक विरोधी अशी संवेदना दिवपी कविता 'जोगी' ह्या वांट्यांत आयल्या. हांतलो जोगी सामान्यांतलो न्हय. ताचे पांय उपाट, मस्तक उपाट. ताच्या वंठार वेदांचें पुस्तक किल्लून आयलां अशी ताची प्रज्ञा. ह्या गगनभोगी भोग्याच्या रुपान कवी आपल्या जिवितांतली पिडा, दूख उकती करता. ताका लागून ही निखटी निसर्ग वर्णनाची रुपकात्मक वा प्रतिकात्मक कविता उरूंक ना. वा वयर सांगिल्ले प्रमाण शब्दांच्या घुंगरांच्या नादान शेणिल्लीय कविता उरना. ती आदल्या दुख्खाची, आतांच्या प्रस्नांची/व्यथांची आनी भविश्याचो वेध घेवपी एका संवेदनशील मनाची कविता जाता.

हो जोगी म्हळ्यारच ताच्या मुखावेल्या 'हिरण्यगर्भ' (१९९३) संग्रहाची बसका म्हळ्यार जाता. हो झेलो हेर झेल्यांपरस वेगळो. मनशाच्या आनी सैमाच्या अदिमतत्त्वां कडेन वचपाचो यत्न करपी कविता हातूंत आयल्यात. आनी त्यो वाचतना खंय तरी आशयाचे, रचनेचे आनी विशयाचे नदरेन तत्त्वगिन्यानी बरपावळी कडेन सारकाय दवरतात अशें जाणवता. पुराय संवसाराचें चैतन्य म्हळ्यार सुर्या. सुर्या बगर ह्या संवसारांतलो अणूरेणू फुकट. 'ताका लागून हे सुर्यशक्ते / तुजे विणें हाका कांयच अर्थ ना... / हें जाणा जावप / हीच म्हजी समर्थताय / आनी सुंदरताय' (११).

कवीन सुर्याचीं/तेजाचीं वेगवेगळीं रुपां हांगा केळयल्यांत. 'अस्तित्व सुक्तां'त कवी म्हणटा, 'अस्तित्व संवसाराची सुंदराय जी उतरा व्हाळांनी व्हांवता ती पळोवंकूच पावना... अशें जातकूच 'हांव' नांवाचें अस्तित्व घुस्पूंक लागता. निसर्गान ताका दिल्ल्या तेजाचें ताका दर्शन लेगीत जायना.... ह्या संवसारांतल्यो कांय आडखळी 'हांव' ह्या अस्तित्वाक विचार करपाक लायतात. आनी हे विचार इतले खर जातात की 'हांव' खरायेंत जळपाक लागतां. हें जळपच साक्षात्कार जाता. कवीक जाल्लो हो साक्षात्कार हेंच 'हिरण्यगर्भ.'

आपणाकूच समजून घेवपाचे हे उमळशिकेक लागून ह्या झेल्यांतल्यो कविता आध्यात्मिक बाजाच्यो जाल्यात. अभंग वा ओवी छंदांतल्यान देखूनच हांतल्यो कांय कविता आयल्यात. देखीक -

'आतां म्हजो उजवाडू / तुज्या ब्रह्मांडाक वेडूं / आनी तरीकुय उरूं / धा आंगळांनी' (पा. ३१) वा 'दोळियांचो देवु / म्हजो इश्ट उजवाडु / म्हज्या तनरांचो सर्गु / सर्वयामी ॥' (१५) अशो वळी संतकाव्याच्या ओवीछंदाची याद करून दितात. हिरण्यगर्भांतलो कवी 'सवन / सूर्यवंशी बांधवांक' आपणाल्या 'प्राणांचो प्रणाम' करता.

हांगासरय कवी वेगवेगळ्या प्रतिमांनी उलयता. पूण ह्यो प्रतिमाय वाचप्यांक सरळपणान कळत अशो नात हाचें कारण कवीन आपणायिल्ली प्रतिमांची भास. खूब उण्या उतरांनी हांगाय उलयल्ल्यान कवीक सांगपाचो हो आशय झिरझिरीत, अमूर्त असोच जाला. ते भायर ही भास चड संस्कृतमय अशी जाल्या. देखीक, 'हें वसुंधराय सवेदन', 'आदि अनिरुद्ध उर्जा', 'तमसंहारक', 'हेमनदर द्वारका', 'तुजे प्रदक्षिणार्थ', 'तंद्रेंतले चडांश', 'हिरण्याक्षा', 'अग्निगर्भा', 'रत/अविरत तूं / संभवाग्नि' बी अशो कांय देखी दिवं येतात. ताका लागून वाचपी ह्या उतरां फाटलो अर्थ सोदपाच्या फंदांत पडटा आनी ताच्या हातांत आयिल्लो विरविरीत आशय सुटून वता. ते भायर अशेंय जाणवता की कवी शब्दांची आध्यात्मीक रुपां सोदपांत गुल्ल जाल्ल्यान अणभवांची काव्यात्मकता शेणोवन बसला. झेल्यांतल्यो कविता अणभवांची आवर्तां घेता आनी तांकां लागून भाशीक रचणुकेचो, कवितेचे प्रतिची भास सोदपाचो कविचो आजूनय प्रयत्न चल्ला अशें दिसता. हांगा लोकवेदांची फाटभूंय घेवन आयिल्ली रचना ना. पूण नवे अर्थ आनी आयाम दिवपी उतरां घडोवपाची कविची तांक पर्थून दिश्टी पडटा.

'तनरजोती' हो कविचो सगळ्यांत अर्विल्लो (१९९९) झेलो. 'हिरण्यगर्भा'तल्यो आध्यात्मिक आनी पारलौकीक पांवड्या वेल्यो कविता. चडशो कविता ताका जाल्ल्या सौंदर्याच्या साक्षात्काराचीं वर्णनां करपी. 'तनरजोतीं'तय असलेच तरेच्यो कविता आयल्यात. अस्तित्वाचो सोद घेवपी. 'ही म्हजीं काश्टां / काय पाच पंचिश्टां / हें म्हजें हांव / भायल्या ॲचें गांव / ही म्हजी वळख / काय भुलयाळी अळख वळख' (२९). मिथकाक ओंपिल्ली ही कवितावली. तातुंतलो कवी 'संवसाराक उजवाडावपी जोतींत आपणाले नदरेची जोत मेळोवन एके तनरजोतींत नाच्च जाल्लो' आनी 'आंगणी नाचता... सावुलगोरी' हांचीच परंपरा मुखार व्हरपी. हांवपण विसरून तो येता तेन्ना 'तुज्या स्पर्शाचे पारसमणी लागतात'. तिचे कडेन येता तेन्ना आपणालें हांवपण वगडावपाचो पण घेवन येता देखून 'म्हजें हांवपण विसरून जातकूच / मागीर आमचें कितें जातलें तें कांयच खबर ना / ते मेळोवपा खातीर तुजेकडेन येता' अशें एका मोग्याच्या विरहाचो आनी मिलनाचो सौंदर्यपूर्ण अणभव तनरजोतींतल्यो कविता दितात.

तिची दिश्ट म्हळ्यार 'झिणझिणटें शिर्वाण केण' जाल्यार मुखसाळकार निराकार मळबाची काजळी आसा. देखुनच तिचें आदीम रूप ताका 'अरुपाचो साक्षात्कार घडोवपी' अशें दिसता. घडये ही तूं म्हळ्यार कविची निखटी मोगी न्हय तर मोगिच्या रुपकांतली ही आदीम शक्त. जेन्ना हो अर्थ हे कवितेंतल्यान आशयघन जावन येता तेन्ना ही कविता शरीर वर्णनाची कविता उरना, तिका एक वेगळीच उंचाय मेळटा. **माती**, **सावुलगोरी** ह्या आदल्या झेल्यांतली सोपी सादी, लोकसाहित्याच्या बाजाची रचना हातूंत ना. पूण आसा ती मुक्तछंदी पूण कांयशी कठीण, उण्या उतरांनी उलोवपी कविता. Form च्या प्रयोगांतल्यान 'हुस्कार सुस्कारांत **प्रदक्षिणायत** रावता', 'अंतरे **सरगमता**', 'घुंगूर **घुंगरता**', 'तुजी प्रसन्न मोनेळ म्हाका **शब्दुलायत** वयता' अशे तरेची रचना मेळटा.

वा 'तूं गे अमाशेची **रात्रा** / तुका चोवन म्हजे रक्तरेणू / करी आकाशगंगी **यात्रा**' सारकें यमक जुळोवपा खातीर केल्ल्यो अडेच्यो शब्दरचना मेळटात. 'तनरजोतीं'त संवेदना परस सैमाच्या मानवीकरणा खातीर केल्ले प्रयत्न दिश्टी पडटात. ताका लागून 'आकाशगंगेच्या **उजवाडांचो काळोख**' सारकेली विरोधी प्रतिमा कवी केन्नाय आपणायता.

'नृत्यकळाशी', 'रंगतरंगांचे आंकूर', 'शिर्वाण केण', 'सूर्यपर्जळी मोतयां', 'सैमसुरमई सांजवेळो', 'उलुपी सांजवेळो', 'मत्त मोतयाळे चान्नें', 'मनहद नाद', 'अनादी नाद / अनहद नाद', 'सपनपारो', 'सुनरचंवरी चान्न्यांत सर्पसुरंगी कोचो' अशो कांय उपमा, प्रतिकां कवितेक एक आगळीच संवेदना दितात. हीं उतरां स्वतंत्रपणान पळयल्यार सुंदर दिसतात. वातावरण निर्मणे खातिरय तांचो बेस बरो वापर जाला. पूण ताणें कवितेच्या आशयाची खोलाय, विविधताय वाडयल्या व्हय?

आनी सोंपयतना - वेळुस्काराचे कवितेक एक आंतरीक लय आनी नाद आसा. घडये लोकवेदाच्या सस्कारान तांचे कवितेंत तो ताल आयला आसूं येत. खासा कविच्या तोंडातल्यान 'शंबल्यो' वा 'शिरशिर शिरशिर नामुबे' सारकेल्यो कविता आयकप हो खास अणभव आसता. एके तरेची संगीतमय तनरी तेन्ना लागता ती अणभवपा सारकी आसता. पुंडलीक नारायण नायकान कोंकणी साहित्यमळाक मानवी जिणेंतल्या तीव्रतर अणभवांची वळख करून दिली आनी ताच्याच समकालीन कवी रमेश भगवंत वेळुस्कारान कोंकणीक अप्रतिम अशी शब्दकळा दिली अशें म्हणनशें दिसता.

* * *

---

## जागा खातीर बरप धाडटना

- बरपाची एक प्रत बरोवप्यान आपणालागीं बाळगुची.
- बरप निवळ अक्षरान कागदाच्या एकाच अर्दान बरयल्लें आसचें. (एका अर्दान आदीं वापरिल्लें कागद बरोवपाक वापरूं येता.)
- हेर खंयचेच कडेन उजवाडा येवंक नाशिल्लें बरपूच धाडचें.